# रथा तुज्यो घुडयो

## आमोणेचीं धालो गितां



गोवा कोंकणी अकादेमी

संकलन

जयंती नायक

लोकगीतां हीं मौखीक परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावतलीं गीतां आशिल्ल्यान, वाटेर प्रवासांत खुबदां तांचें मूळ रूप बदलून तांकां नवें रूप मेळिल्लें आसता. शब्दांचो मूळ अर्थ वा मूळ उच्चार बदलून नवो अर्थ वा नवो उच्चार प्राप्त जाल्लो आसता. खुबदां तांच्या मुळाकडेन वेगळें तत्त्व, वेगळो अर्थ आसता, जाची आमकां कल्पना नासता आनी आमी तांचें वयर दिसपी रूप पळोवन चुकिचे निश्कर्श काडटात. चुकिच्यो कल्पना करून घेतात. देखून लोकगीतांचेर प्रक्रिया करपाचो आनी तांचो मुखावळो बदलपाचो आमकां कसलोच अधिकार नासता.

मोल : ४० रुपया

# रथा तुज्यो घुडयो

## आमोणेचीं धालो – गीतां

संकलन :

**जयंती नायक**

**गोवा कोंकणी अकादेमी**

# रथा तुज्यो घुडयो

आमोणेचीं धालो–गीतां

संकलन :

**जयंती नायक**

# ROTHA TUJEO GHUDDIO

Amonnechim Dhalo-Gitam

Compiled by:

**Jayanti Naik**



**उजवाडावपी :**
वि. म. धुमे
सचिव,
गोवा कोंकणी अकादेमी,
पणजी, गोंय ४०३ ००१.

**छापपी :**
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**मुखचित्र :**
श्रीधर कामत बांबोळकार

पयली आवृत्ती : १९९२

प्रती : एक हजार

मोल : रु. ४०/-

**Publisher:**
V. M. Dhume
Secretary,
Goa Konkani Akademi,
Panaji-Goa 403 001.

**Printer:**
Hiru Narayan Naik
Apurbai Printers,
Volvoi, Ponda, Goa 403 401.

**Cover:**
Shridhar Kamat Bambolkar

First Edition: 1992

Copies : One Thousand

Price : Rs. 40/-

# मांडावळ

पयलीं उतरां धा – अकरा

निवेदन : बारा – एकोणीस
अस्तित्वाच्या सोदांत....

प्रास्ताविक : वीस – एकोणतीस
धालांचें कूळ सोदतां सोदतां....

अ) **धालो – नाचाचीं गीतां** १ – १०३

१. गंदान मांड सारयला ३
२. मोनी आल्यो मोनी गेल्यो ४ – ५
३. आमी देवांच्यो रंभा ६
४. श्री धालो, धालांनी खेळूं या ७
५. श्री धालो, खुंटूनी घाला पाला ८
६. बत्तीस पावणे, तेत्तीस सरहद ९
७. मळणीच्या मळ्यांत १० – ११
८. आबोलेच्या गोंडा, शेंवतेच्या देठा १२
९. दारींतला आंबा बायी १३
१०. हळदीचे मळे १४
११. नक्षत्रांच्यो वोळी १५
१२. तळयेच्या तुंबा १६
१३. काजू बाये काजू १७
१४. नारळ बाये नारळ १८
१५. आळ बाये आळ १९
१६. सात दिसां वाटे जायीन सांते २०
१७. तळ्यांतली दाणय २१
१८. पान म्हाजें, फोफळ तुजें २२
१९. सोनियाचो चेंडू २३

२०. आम्या आमो वणकलो २४
२१. आम्या आमली वणकली २५
२२ साडेतिनशें दांणयो, रथा तुज्यो घुडयो २६
२३. उब्या खांद्या चडोनिया २७
२४. खैरी काटियो २८
२५. पाऊस झिळिमिळी २९
२६. बोणे बाये बोणे ३०
२७. आशे बाये आशे ३१
२८. खण कुदळा ३२
२९. आमी अशें रान माल्लां ३३–३४
३०. आळंबी काय गुळंबी ३५
३१. आम्याचें पान बाये आमट ३६
३२. आत्ताळी रोयणी, पात्ताळी रोयणी ३७
३३. मळणीच्या मळ्या मदे ३८
३४. एक संबर गाती फिरती ३९
३५. जाये जुयेचें गे एक पान ४०
३६. वाटे वयलो चिड्डो ४१
३७. पाणयांत झिळिमिळी ४२
३८. दर्याचे देगे, राजाच्यो कुंवरी ४३
३९. कुराड्यांच्यो धारा गे, पाणाऱ्यांच्यो फडा ४४
४०. सारी बेनलीण वेडली ताटी ४५
४१. चंद्रीमा सारक्या नक्षत्रा ४६
४२. चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची ४७–५१
४३. वोवळीचें वोंवळ ५२
४४. आबोलेच्या गोंडा भोंवर लब्दला ५३
४५. राधा शेजरा कशी गेली ५४–५५
४६. राम रामेश्वरा ५६
४७. फुल रे चाफ्या ५७
४८. म्हाल पणटी, दिवे जळटी ५८
४९. वयले वाडी, सोंसो करड कांती ५९
५०. आयले वायंगिणी, पयले वांयगिणी ६०
५१. देवळा फाटले आवाळे ६१

५२. चिंचेवयले चानये ६२
५३. धांव रे तेंडलेच्या बेला ६३
५४. खरकस केगदी ६४
५५. आदनी दुदनी एकच पान ६५
५६. नारी कोणा देसाच्यो ६६
५७. बांय बांदिली पाशाणी ६७
५८. वज्रथिकांची मुदी ६८
५९. आकळी काय कुकळी ६९
६०. सुंदरशें रान बाये ७०
६१. चामाराच्या मुली, जोत्यां लाय फुली ७१
६२. उंच उंच दोंगरी ७२
६३. तुज्या दुर्गार रोयीन ७३
६४. भाचो फुलां रोयतालो ७४
६५. समुद्राचे तिरी, विष्णु माती काणी ७५
६६. शेवकां बाये शेवकां ७६
६७. पर्वता दोंगरा जावूं ७७
६८. हेंगटें बैला ७८
६९. कृष्णान खेळ मांडिला ७९
७०. सवाशिणी बायलो कांदळां खुंटूं गेल्यो ८०
७१. शीं खाता भोव, चावूल दिना घोव ८१
७२. कांकणकारा वळारा ८२
७३. सरवय आंगाशी काडिले गंद ८३
७४. बाज्जेर बाज, फुलांची शेज ८४
७५. न्हेंयचे देगेर, बांयचे देगेर ८५
७६. बरी नागवेली, बरी पानवेली ८६–८७
७७. धरम ल्येक दिया गे ८८–८९
७८. आमी ल्येक दिली ९०
७९. येया येया येणी बायांनो ९१–९२
८०. बायेली पात फुल्ल्या बांयकडेन ९३
८१. तोर अशी रोयली ९४–९७
८२. रोयली जिरें-कोथंबिरी ९८–१०३

| | | |
|---|---|---|
| **आ)** | **रेगो बदलतना गावपार्ची गीतां :** | **१०५ – १११** |
| १. | रेग बांदीन | १०७ |
| २. | हळडुवी वांटिली | १०८ |
| ३. | वच वचा कनकांनो | १०९ |
| ४. | भंडर घेया हो नारी | ११० – १११ |
| **इ)** | **रेगो बदलतकच गावपार्ची गीतां :** | **११३ – ११८** |
| १. | व्हडली म्हण गे आपण | ११५ |
| २. | चरणपती घरा आले | ११६ |
| ३. | अणसां काय धोणसां | ११७ |
| ४. | आमच्या व्होटये बेडे गो | ११८ |
| **ई)** | **रंभां–फुगडेर्ची गीतां** | **११९ – १२२** |
| १. | आयल्यो गे रंभाबायो | १२१ |
| २. | इल्ली इल्ली दिवली | १२२ |
| **उ)** | **खेळ–गीतां** | **१२४ – १३६** |
| १. | आज मोर खंय खंय ? | १२५ – १२६ |
| २. | घोणचें पील | १२७ |
| ३. | दात्याची ओवी | १२८ – १२९ |
| ४. | आदनी दुदनी | १३० |
| ५. | भट भटीण | १३१ |
| ६. | वयल्या रानां | १३२ |
| ७. | पारदी चालती | १३३ |
| ८. | आलेसा ताण रे व्होडें | १३४ |
| ९. | आमोणेची खळी | १३५ |
| १०. | तानलाडू, भूकलाडू | १३६ |

**ऊ) धालांचो उत्सव सोंपोवपाचीं गीतां** १३७–१४२

१. सावकू बावकुल्यो १३९–१४०
२. शेण कालयतां १४१
३. आयच्यान धालो सोंपोवया १४२

**ए) किरिस्तांव समाजाचीं धालो–गीतां** १४३–१५३

१. कानप्यार बसोलां १४५
२. दुदा वयता गा मामा १४६
३. हरफूल फुलोला रातयांतू १४७
४. तळ्यांतली दाणय १४८
५. तळयेच्या तुंबा १४९
६. पियेच्या मुळांतू गे १५०
७. केंस गो वळेता १५१
८. चिंचेवयले चिंचोणे १५२
९. साडेतिनशें दाणयो, रथा तुज्यो घुडयो १५३

## पयलीं उतरां :

'गोवा कोंकणी अकादेमी' चें लोकवेदावेलें हें पुस्तक **'रथा तुज्यो घुडयो'** वाचप्यां मुखार दवरतानां आमकां खूब खोस जाता. केपें म्हालांतल्या आमोणें गांवांतल्या धालो-गीतांचो हो झेलो. खरें म्हळ्यार धालो गावपाच्यो, नाचपाच्यो. वाचप्यांनी आनी धालांच्या अभ्यासक्रांनी हें सदांच ध्यानांत दवरूंक फावो आनी बरयल्ल्या गीतांचो उलयल्ल्या गीतांलागीं सांगड घालूंक फावो.

धालो हो गीत-प्रकार म्हळ्यार गोंयच्या हिंदू समाजाचो हारसो. भावार्त, श्रद्धा, चाली-रिती हांचें पडबिंब धालांत पडिल्लें दिसता. ताल, स्वर, खोस हांचो तो सोबीत सांगात.

बाय जयंती नायक हिणें ह्यो धालो, ही गजाल ध्यानांत धरून बरयल्या आनी उलयल्ल्या उतरांक ती विस्वासी रावल्या. म्हैसूर विद्यापीठाच्या लोकवेद विभागांत जोडिल्ल्या गिन्यानाचो तिणें धालांचें शास्त्रोक्त वर्गीकरण करपाखातीर उपेग केला. आपल्या प्रास्ताविकांत तिणें धालो ह्या गीत-नाच प्रकाराचेर लोकवेदशास्त्राचे नदरेन उजवाड घाला. तिणें केल्ल्या वावरान लोकवेद अभ्यासपाची आनी जियेवपाची नवी नदर वाचप्यांक मेळची ही इत्सा. जळीं-मळीं शिंपडलेलो आनी काळाच्या चक्रांत शेणिल्लो गोंयचो लोकवेद सोदून काडप आनी सांबाळप हो अकादेमीच्या लोकवेद विभागाचो एक म्हत्वाचो वावर. पूण लोकवेद हें समाज जिविताचें एक जितें-जिवें आंग ही जाण आमकां आसा. पुस्तकांत एकठांय केल्लो हो लोकवेद परतून जिवितांत भरसूंचो आनी ताणें जिवीत अदीक गिरेस्त आनी सोबीत जावंचें होय आमचो हावेस.

गांवां-गांवांनी वचून लोकवेद एकठांय करप, परबां वेळार हाजीर रावन त्यो ध्वनीफितेर घेवप, मागीर ताचें वर्गीकरण करप आनी जाणकारांनी दिल्ली माहिती आनी सुचयल्ले विचार अभ्यासून तो संपादीत करप हें काम जितलें कटकटीचें तितलेंच वेळाचें. जयंतीबायन हो वावर

धा

मनापासून केला. तिचे उपकार आमी मानीनात पूण तिची तोखणाय करीत तितली थोडी. सामान्य वाचप्यांक आनी गंभीर अभ्यासकांक हो झेलो मोलादिक थारतलो अशी आमची आस्त.

हो झेलो एकठांय करपाक जांणी जांणी आदार दिलो तांचेय आमी उपकार मानतात.

**मनोहरराय सरदेसाय**
मुखेली, लोकवेद विभाग,
गोवा कोंकणी अकादेमी

निवेदन :

# अस्तित्वाच्या सोदांत ....

दक्षिण गोंयांतल्या केपें म्हालांत आमोणें नांवाचो एक सुपुल्लोच गांव आसा. सादारणपणान चवथ्या शतमानाआदीं वशिल्ल्या ह्या गांवांत ताच्या आदिमतायेचे जिते-जिवे अवशेश आजय पळोवंक मेंळटात. शारी जिणेकडेन आज इतको लागींचो संबंद येवनय बी हो गांव, परंपरेन मेळिल्ल्या कितल्या तरी सांस्कृतिक मुल्यांची राखण करतना दिसता. हाका लागुनच, आज लेगीत संस्कृतीप्रिय अशी कोणय व्यक्ती ह्या गांवांत भितर सरली जाल्यार गांवच्या अकृतीम परंपरेच्या दर्शनान भारावता. गांवच्या वातावरणांत [सैमीक आनी सांस्कृतिक] तिच्या मनाक एक असीम अशी शितळसाण लाबिल्ली ती आपल्या तोंडान कबूल करता.

अशा ह्या सांस्कृतिक गिरेस्तकायेन भरिल्ल्या गांवांत म्हजो जल्म जालो. ह्याच गांवान म्हजेर संस्कार केले. हेच गांवचे मातयेंत म्हजें व्यक्तीमत्व घडलें. मात भुरग्यापणांत, म्हज्या बरोबरच्या हेर भुरग्यांसारकें गांवची 'लोकजीण जियेवपाचें' भाग्य मात म्हाका लाबलेंना.

म्हजें भुरगेंपण एके तरेचे अदृश्य बंदखणीतच गेलें. हांवें गांवांतल्या हेर चलयांसारकी केन्ना फुगडी घालिना, केन्ना धालांच्या मांडार वोळीक उबें रावलेंना, केन्ना फांतर जिखून खेळ खेळ्ळेना, उटंगारांनी पडपी पावसांत, माथ्यार कंड्डो घेवन शेताच्या बांदयांत बोटां रोमपाचें नशीबय म्हाका केन्ना फावो जालेंना. जिविताच्या शाणपणान उपाट भरिल्ली एक न्हंय म्हाका सामकी घस्टून व्हांवताली पुण हांव मात केन्ना तांतलें पोसोभर उदक पियेवपाक पावलेंना.

म्हजी आई गांवान असोळणेची. धड शारी न्हय, धड गांवगिरी न्हय अशे मदले संस्कृतायेंत ती वाडिल्ली. म्हजे आईचेर 'बामणी संस्कार' चड जाल्ले. कारण आख्ख्या बामणांच्या वाड्यार 'भायले जातीचें'

म्हण्टा तें म्हज्या मामाचें एकूच घर आशिल्लें. हाका लागून म्हज्या आईच्या मनाचेर 'बामणांच्या' चाली-रितींची चड पकड आशिल्ली. त्यावेळार [कांय प्रमाणांत आजय] 'बामणांच्यो' चाली-रिती त्यो उंचेल्या पांवड्यांच्यो आनी हेर जातींच्यो त्यो सकयल्या पांवड्याच्यो असो धवाड्यांमदीं एक समज आशिल्लो. म्हजो गांव तर मुळाक गावडी जमातीन वसयल्लो! आजय गांवचे ग्रामवेवस्थेंत जंय हे जमातीचेंच वर्चस्व चड आसा थंय ३०-३५ वर्सां आदीं गांवचो मुखावळो कसो आसतलो हाची कल्पना करूंक येता. आईच्या लग्नांत खंय, न्हवरेकारांच्या लोकांक पळोवन "कुळवाड्यांक चली दिली म्हरे!" अशें म्हुणून सोयरे-शेजारी म्हज्या आज्याक हांशिल्ले. ह्याच कारणांक लागून म्हळ्यार जाता, म्हजे आईन आपले धुवेचेर 'बरे' संस्कार [बामणी] जावंचे, ती 'कुळवाडीण' जावंची न्हय ह्या हेतून म्हाका केन्ना गांवच्या भुरग्यांबरोबर खेळूंक दिलेंना, शाळे बगर घराच्या हुमऱ्याभायर केन्ना सरूंक दिलेंना. म्हज्या भावांक मात तिणें मेकळीक दिल्ली.

आईक चोरून केन्ना वांगडच्यां भुरग्यां खेळटा थंय गेलें आनी तिका कळ्ळें जाल्यार तिचे धपके खावंचे पडटाले. देखून तिका चोरून वचपाचोय म्हाका धीर जायनाशिल्लो. शिवाय भुरग्यांय खेळूंक घेनाशिल्लीं. एक तर आईचो उलो कानार पडटांच हांव खेळ अर्दारच सोडून धांवतालें, दुसरें म्हाका जोडयेकय कोण नासतालो. सगळ्यांचे जोडीदार थारिल्ले आसताले!

म्हजे आईन म्हाका आनी म्हज्या भावांक, 'हाका-ताका', 'हाणें-ताणें' असली 'बामणांची बोली' [एका काळार अशें मानताले] शिकयल्ली. ताचेवयल्यान म्हजे पणजेच्यां [म्हजी आज्जी म्हजो बापूय ल्हान आसतना भायर पडिल्ली] आनी म्हजे आईची सदांच झगडीं पेट्टालीं. "म्हाज्या पणटुरांक बामणांच्यो रिती शिकोवूं नाका!" अशें म्हजी पणजी कळवळून म्हण्टाली.

गांवच्या भुरग्यांबरोबर म्हज्या मेळपा-खेळपाचेर आईन जरी बंधनां घाल्लीं तरी ती स्वता मात हळू हळू गांवच्या वातावरणांत समरस जाल्ली. कोणालें भुरगें बरें ना, ताका दोतोरागेर घेवन वच. कोणाक घुंवळ आयल्या ताका धांवन उपाय कर. कोणालें आदन रिकामी आसा, ताका हळूच तांदूळ व्हरून दी. कोणाल्या घरांत लग्न-कार्य

आसा, थंयच्या कामाक वेंग मार. अशा कितल्या तरी गजालींवरवीं ती हळू हळू गांवच्या वातावरणाकडेन आनी संस्कृतायेकडेन एकरूप जायत गेल्ली. गांवांत बायलांच्या अडी-अडचणींक पावचें देखून तिणें 'कोप्र' सुरू केल्ली. गांवच्या हेर बायलांसारकी तिवूय आतां उस्फूर्तपणान धालो वा फुगडेचीं गीतां गांवक शकताली.

आईन म्हजेर घाल्ल्या बंधनांक लागून हांव जरी जिणेंतल्या एका सहज सुंदर सुखाक पैसावलें तरी त्या बंधनांचो म्हाका जायतो फायदोय जालो. म्हज्या जगपाक एक वळण मेळ्ळें, म्हजें शिकप हांव पुराय करूंक पावलें. म्हज्या अस्तित्वाचो म्हाका शोध लागलो. भुरग्यापणांत आईन लायिल्ल्या वाचपाच्या गोडयेंतल्यान म्हजे भितल्ली 'निर्मिती-शक्त' जागी जाली आनी आज हांव थोडें तरी 'धव्यार काळें' करूंक पावलें. शिवाय म्हज्या गांवाविशीं, गांवचे संस्कृतायेविशीं एक अफाट मोग म्हज्या काळजांत किल्ललो. म्हण्टात न्हय, "जाका मेळटा, ताका मोल कळना!" देखून म्हाका जी जीण जगूंक मेळ्ळीना, जे जिणेकडेन पळोवन हांवें इतको तेंप फकत आंवडेच घोटिल्ले ते जिणेविशीची एक असीम ओड, एक असीम उत्सुकता म्हज्या काळजांत वाडीक लागली.

हांव जेन्ना कॉलेजीक पाविल्लें तेन्ना खरें म्हळ्यार म्हजेवयलीं सगळीं बंधनां पयस जाल्लीं. गांवच्या वातावरणांत हांव मेकळेपणान उस्वास घेवंक शकतालें. पुण तेन्ना म्हजेकडेन वेळ नाशिल्लो. शिवाय इतको तेंप जे जिणेकडल्यान हांव पयस उरिल्लें, तिका एकदम वेंग मारूंक म्हजे हांवूच खाकुडटालें.

मात ह्या वेळार हांवें एक गजाल केली, तिचो म्हाका आज फायदो जाता. ती गजाल म्हळ्यार गांवच्या जाण्ट्या-नेण्ट्यांकडेन आपलेपणाचें नातें जुळोवपाची. इतको तेंप गांवचे धर्म-विधी, जात्रा-उत्सव, देव-देवस्पण, लग्न-कार्यां बी जीं हांव पयस रावन नियाळटालें, तीं लागीं वचून समजून उमजून घेवंक सुरवात केली. गांवची बोली आनी ते बोलयेंत दडिल्ली भाशीक-सांस्कृतिक गिरेस्तकाय म्हज्या स्मरणशक्तींत एकठांवपाक सुरवात केली.

गांवच्या लोकांकडेन नातें जुळोवपाच्या म्हज्या वावरांत, म्हाका म्हज्या

दोन कामांचो खूब आदार जालो. एक काम म्हणजे, फाविल्ल्या वेळांत गांवच्या भुरग्यांक अभ्यासांत मार्गदर्शन करपाचें आनी दुसरें म्हणजे म्हजें कोंकणी बरोवप आनी कोंकणी भाशेच्या हक्काखातीर वावुरप. ह्या दुसऱ्या कामाक लागून तर मुखेलपणान गांवच्या किरिस्तांव समाजाकडेन म्हजें नातें जुळ्ळें.



गांवचे संस्कृतायेविशिची म्हज्या काळजांतली ओड, लोकवेदाविशीं म्हाका आशिल्ली जाण, म्हज्या नकळटना हो वेळ मेरेन हांवें बरयल्ल्या म्हज्या कथा-कवितांनी चित्रीत जाल्या. पुण १९८७ वर्साच्या जुनाचे अखेरमेरेन, लोकवेदाचो स्वतंत्ररितीन अभ्यास करूंक येता हाची म्हाका जाण नाशिल्ली. पुण सहज म्हण केल्लो म्हजो अर्ज मान्य जावन त्या वर्साच्या जुलय म्हयन्यांत, 'गोवा कोंकणी अकादेमी'ची **'म्हैसूर विद्यापीठाचो'** एक वर्साचो **'लोकवेदाचो पोस्ट ग्रेज्युएट डिप्लॉमा कोर्स'** करपाखातीर १९८७-८८ वर्साची अभ्यासवृत्ती म्हाका फावो जाली आनी म्हज्या जिविताक एक वेगळें मोडण मेळ्ळें. घडये म्हज्या गांवाकच म्हज्या हातांतल्यान मुखार आपली थोडी-भोव सेवा करून घेवपाची इत्सा आशिल्ली जावये, देखून ताणेंच एक अदृश्य शक्ती जावन ही संद म्हाका मेळोवन दिल्ली आसूंक जाय.

एका वर्साचो अभ्यासक्रम पुराय करून जेन्ना हांव गोंयांत परतें आयलें तेन्ना लोकवेदाचें म्हत्व उमजून पुराय भाराविल्लें. म्हज्या गांवच्या लोकवेदाच्या गिरेस्तकायेची म्हाका वळख जाल्ली. देखून, गोंयांत परतें आयल्या उपरांत, पयल्या दोन म्हयन्यांत हांवें सगळ्यांत पयलें काम केलें तें म्हळ्यार, गांवांत पिळग्यां पिळग्यां चलणुकेंत आशिल्लीं पारंपारीक गीतां, काणयो, म्हणी, उमाणीं एकठांय करपाचें. ह्या कामांत म्हाका, म्हज्या गांवच्या दादल्या-बायलांनी आनी जाण्ट्या-नेण्ट्यांनी खूब सहकार्य दिलें, उस्फुर्तपणान ताणीं म्हाका मदत केली. कसल्याय मोबदल्याची अपेक्षा बाळगीनासतना तांणी म्हजेखातीर वरांची वरां गीतां गायलीं. पयलेच फावट आपल्याकडेन आशिल्ल्या परंपरागत ठेव्याचें कोणें तरी म्हत्व जाणलां, ह्याच अप्रुपान तांणी हातचें राखून दवरनासतना तो ठेवो म्हजे व्होटयेंत रिकामो केलो. गांवची एक जाण्टेली 'सर्गेस्त

कुरेलबाय फेर्नांडीस' हिणें तर आरीच्या दुयेंसांन आनी जाण्टेपणाचे व्याधीन हांथुणाक लागिल्ली आसतनाय किरिस्तांव समाजांत एका काळार घोळणुकेंत आशिल्लीं कांय धालो-गीतां म्हजेखातीर गायलीं. म्हजी एक गांवभयण 'बाय शोभा आमोर्णेकार' हिचो तर ह्या कामांत म्हाका नांव घेवपा इतको आदार जालो. शिवाय म्हज्या घरच्यांचें फाटबळ तर आशिल्लेंच. म्हजे आईन तर गांवच्या कितक्या तरी जाण्टेल्यांकडेन उलोवणीं करून तांचेकडली माहिती म्हाका दिवपाखातीर तांकां प्रवृत्त केलीं.

ह्या वेळार अकादेमींतल्या म्हजे नोकरेचेंय थारलें नाशिल्लें. संकलीत केल्ल्या त्या ठेव्याचें कितें करप? अकादेमी तो उजवाडाक हाडटली काय ना? हेवूय प्रश्न म्हज्या मुखार आशिल्ले. पुण ते प्रश्न म्हाका त्या वेळार म्हत्वाचें दिसनाशिल्ले. मेळटा तितको लोकवेद पुंजावप होच म्हजो उद्देश आशिल्लो.

उपरांत वर्सभरांतच, अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत म्हाका 'संशोधन सहाय्यक' म्हण नोकरी मेळ्ळी. म्हज्या सुदैवान, विभागान म्हजेच गांवचेर म्हळ्यार 'आमोणें: एक लोकजीण' ह्या विशयाचेर प्रबंध बरोवपाचो वावर दिलो. ह्या प्रबंधाक लागून गांवचे लोकजिणेकडेन संबंदीत वेग-वेगळ्या आंगांचेर संशोधन करपाची म्हाका गरज पडली. ह्या कामांत हांवें एकठांय केल्लीं तीं गीतां, काणयो, म्हणी, उमाणीं म्हजी पूर्वतयारी कशी थारली. म्हजें शोधकार्य सोपें जावंक तांचो आदार जालो.

एका दिसा म्हज्या मनान निर्णय घेतलो, हांवें एकठांय केल्लो तो 'ठेवो' कसोय करून, स्वतंत्र संकलनाच्या रुपान उजवाडाक हाडूंक जाय. कारण कोंकणींत अशीं संकलनां खूब कमी उजवाडाक आयिल्लीं आसात आनी अशेतरेचीं संकलनां उजवाडाक आयल्यारच गोंयच्या लोकवेदाचो तुळनात्मक अभ्यास जावंक आदार जातलो. संशोधकांक तांच्या अभ्यासाखातीर हाताकडेन 'तयार' सामुग्री मेळटली.

मनान निर्णय घेतलो त्या दिसाच्यान सतत दोन म्हयने दिस-रात [फकत रात] खपून हांवें म्हजेकडेन आशिल्ल्या त्या ठेव्याचें वेवस्थीत वर्गिकरण केलें. त्या ठेव्यामदीं गीतांचो भाग खूब मोठो आशिल्ल्यान तुर्ताक गीतांचोच विचार करचो अशें थारावन हांवें काणयो, म्हणी

आनी उमाणीं काडून कडेन दवरलीं.

एकठांय केल्ल्या गीतांमदीं 'दादल्यांनीं गावपाचीं गीतां' आनी 'बायलांनी गावपाचीं गीतां' अशीं दोन प्रकारचीं गीतां आशिल्लीं देखून दोनय तरेचीं गीतां पयले सुवातेर वेगळीं केलीं.

दादल्यांच्या गीतांच्या मानान बायलांच्या गीतांचो आंकडो खूब मोठो मेळ्ळो. ह्या गीतांमदीं म्हजी सगळ्यांत चड नदर वेधून घेतली ती 'धालो गीतांनी'. हेर गीतांचे तुळणेन तांचो आंकडो चड आशिल्ल्यान, स्वतंत्र रितीन तांचें एक वेगळेंच संकलन उजवाडाक हाडप योग्य अशें दिसलें. म्हण त्या गीतांचो एक वेगळो भाग केलो. ह्या भागामदीं किरिस्तांव समाजांतल्या बायलांच्या धालो-गीतांचोय आस्पाव एक पोटभाग म्हण केलो.

उरिल्ल्या गीतांमदीं किरिस्तांव समाजांतल्या बायलांनी गावपाच्या गीतांचो एक मोठो वांटो दिसलो, जीं एका स्वतंत्र संकलनाच्या रुपांत उजवाडाक आयल्यार मुखार कोणाय संशोधन करप्याक फायदेशीर थारूंक शकतलीं अशें चिंतून वेगळीं केलीं. शेवटाक म्हजेकडेन जीं गीतां उरलीं तातूंत, पाळणे-गीतां, होंवयो, भुरग्यांचीं गीतां, फुगडेचीं गीतां, गीतकाणयो बी कितके तरी प्रकार आशिल्ले. पुण प्रत्येकाचो आंकडो सामकोच ल्हान आशिल्ल्यान, तांकां सगळ्यांक 'लोकगीतां' ह्या एकाच माथळ्याखाला हाडलीं.

दादल्यांच्या गीतांतलीं सगळींच गीतां शिगम्याच्या मेळाक गावपाचीं गीतां आशिल्ल्यान तांच्या वर्गीकरणाक त्रास पडलेनात. मात तांतले वेग-वेगळे प्रकार जाणून तांचें अंतरगत वर्गीकरण करचें पडलें.

हीं चारूय संकलनां-संपादनां करतना हांवें एक गजाल सामकी कटाक्षान केली ती म्हणजे, ज्या स्वरूपांत [जशीं] तीं गीतां हांवें आयकलीं, तशींच तीं उतरायलीं. शब्दरचना वा वाक्यरचना करतनाय हो नेम हांवें पाळ्ळो. गीतांचो क्रमय जसो मेळटा तसोच दवरलो. आमोणें गांवांत धालो नाचपाची सुरवात ''गंदान मांड सारयला हो'' ह्या गीतान जाता देखून धालो-गीतांच्या संकलनात हेंच गीत सुरवेक दवरलें. उपरांतचीं चार-पांच गीतां ह्या गीताफाटल्यानच क्रमवार पद्धतीन

गावपाची आशिल्ल्यान तिवूंय क्रमवार पद्धतीनच मांडल्यांत. मुखावेल्या गीतांक मात क्रम ना. ह्या भागांतल्या कांय गीतांनी एकच उतर 'मराठी' आनी 'कोंकणी' अशा दोनय उच्चारांत मेळटा देखून तें जंय, जशें मेळ्ळां थंय तशेंच वापरलां. देखीक: 'आंबा' आनी 'आमो' अशीं उतरां आयल्यांत.

लोकगीतां हीं मौखीक परंपरेन एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेकडेन पावतलीं गीतां आशिल्ल्यान, वाटेर प्रवासांत खुबदां तांचें मूळ रुप बदलून तांकां नवें रुप मेळिल्लें आसतां, शब्दांचो मूळ अर्थ वा मूळ उच्चार बदलून नवो अर्थ वा नवो उच्चार प्राप्त जाल्लो आसता. खुबदां तांच्या मुळाकडेन वेगळें तत्व, वेगळो अर्थ आसता, जाची आमकां कल्पना नासता आनी आमी ताचें वयर दिसपी रुप पळोवन चुकीचे निश्कर्श काडटात, चुकीच्यो कल्पना करून घेतात. देखून लोकगीतांचेर प्रक्रिया करपाचो आनी तांचो मुखावळो बदलपाचो आमकां कसलोच अधिकार नासता. ह्याच कारणाक लागून हांवें तीं जशीं आयकल्यांत तशींच उतरावन काडल्यांत.

संकलनाचीं हस्तलिखितां तयार जातकच म्हज्यामुखार प्रकाशकाचो प्रश्न उबो रावलो. गोवा कोंकणी अकादेमीचो लोकवेदाचो स्वतंत्र असो विभाग आशिल्ल्यान आनी आमोणें गांवच्या लोकवेदाचेर हांव 'ऑफिशियली' काम करतां आशिल्ल्यान, मुखार कसल्योय तांत्रिक अडचणी उब्यो रावच्यो न्हय ह्या विचारांतल्यान, तीं चारय हस्तलिखितां छापपाचो प्रस्ताव अकादेमी मुखारच मांडपाचो हांवें थारायलें आनी तसो तो मांडलोय बी.

अकादेमीच्या वावुरपी मंडळान म्हज्या वावराचें म्हत्व जाणून म्हजो प्रस्ताव मान्य केलो आनी अकादेमीच्या संपादपी मंडळाचे एक वांगडी भौ. पांडुरंगबाब भांगी हांचेकडेन तीं हस्तलिखितां तपासपाखातीर दिलीं. आपल्यो घरगुती अडचणी आनी संशोधनाच्या वावरांत व्यस्त आसतनाय भौ. भांगीबाबान तीं रोकड्या-रोकडीं तपासून दिलीं. फावो थंय मोलादीक सुचोवण्योय केल्यो. आपलो म्हत्वाचो वेळ दिवन कांय गजालींचेर चर्चा केली. गीतांनी जंय जंय संवकळ नाशिल्लीं उतरां येतात थंय थंय तांचो अर्थ दिवंचो ही तांचीच सुचोवणी. ह्या संकलनाच्या निमतान भौ. भांगीबाबांकडल्यान संस्कृतीसंबंदीच्या कितक्या तरी गजालींची माहिती

मेळ्ळी, मार्गदर्शन मेळ्ळें. आजवेर ज्यो कांय चुकीच्यो समजुती घेवन हांव वावुरतालें तांचें उच्चाटन जालें. अकादेमीचें काम म्हण जरी तांणी तीं हस्तलिखितां तपासलीं तरी तांणी तीं जे आपुलकेन आनी तोखणायेन बेगोबेग तपासून दिलीं आनी म्हजे भितल्लो आत्मविस्वास वाडयलो तेखातीर भौ. भांगीबाबाचें हांव सदांच उपकारी उरतलें.

म्हज्या वावराची कदर करून चारीय हस्तलिखितां पुस्तक रुपान उजवाडाक हाडपाचो अकादेमीन जो निर्णय घेतलो, तेखातीर तर हांव अकादेमीच्याय सदांच रिणांत उरतलें.

**‘रथा तुज्यो घुडयो’** हें धालो-गीतांचें, त्या चारीय पुस्तकांमदलें पयलें पुस्तक. हें पुस्तक इतके बेगीन रुपकाराक येवपाखातीर अकादेमीच्या कार्यालयीन वर्गानय जे कश्ट घेतले ताका लागून तांच्याय हांव उपकारांत आसा.

कोंकणींतले एक नामनेचे लेखक श्री. पुंडलीक नायक हांचें, पुस्तक छापणावळीच्या तांत्रिक आनी हेर गजालींचेर खुबच मार्गदर्शन लाबलें देखून तांच्याय हांव रिणांत आसा.

आमोणें-केपें **जयंती नायक**

प्रास्ताविक :

# धालांचें कूळ
# सोदतां सोदतां....

'रथा तुज्यो घुडयो' हें पुस्तक म्हणजे धालो-गीतांचें संकलन. हातूंत केपें तालुक्यांतल्या आमोणें नांवाच्या एकाच गांवचीं, 'खुद्द आमोणें' नांवाच्या एकाच वाड्यावेलीं हिंदू आनी किरिस्तांव ह्या दोन समाजांतलीं धालो-गीतां संकलीत केल्लीं आसात.

'धालो' हें उतर मूळ मुंडारी भाशेंतलें आसून ताचो अर्थ 'वाऱ्याच्या झोताचेर धोलप' असो जाता. [गोमंतकाची प्रतिमा – खंड पहिला, संकलक: श्री. बा. द. सातोस्कर. पृ. १०] हें उतर आज तीन तरेन अभिप्रेत आशिल्लें मेळटा. (१) नाच, (२) गीत, (३) उत्सव. तांतले तातूंत नृत्याक चड लागू जाता. पुजा-बळी सारको नृत्य होवूय देवाक [संवसारांतल्या अदृश्य शक्तीक] होरावपाचो एक प्रकार आशिल्ल्यान आमच्यो पूर्वज बायलो हेर धर्म-विधी वांगडा एके खास पद्धतीचें नृत्यय करताल्यो आसूंक जाय. ह्या नृत्यांत धोलपाची जी खाशेली लकब आसताली, ते लकबीक लागून उपरांत त्या नृत्याक 'धालो' हें नांव पडलें आसूंक जाय.

धालो-नृत्य नाचपी बायलांच्या मानसीक अवस्थेचो अभ्यास केल्यार अशें दिसून येता की नृत्यांतल्यान निव्वळ उमेद घेवपाच्या भावनेन त्यो नाचनात तर तांच्या मनांत आपले इत्सा-पुर्तीखातीर देवाक होरावपाचीच भावना चड आसता. वर्सावळीच्यो धालो गांवांत खेळ्ळ्योनात [नाचल्योनात] तर गांवचेर देवाचो कोप जातलो हो भंय आसता. तेच बरोबर एकाद्रया घराण्यांतली बायल मुद्दाम धालां-मांडार आयलिना जाल्यार त्या घराण्याचें पाड पडटलें ही भिरांत आसता.

'धालो' हो एक धर्मविधी, अशें म्हणपाफाटल्यान जायतीं कारणां

आसात. एक म्हणजे गांवच्या हेर भौशीक देवस्पणा सारकें धालांचीय सुरवात गांवच्या मुखेल्यान देवाक गाराणें घालूनच जाता. [मात हें गाराणें हांगा बायलमनीस घालता.] धालो अमुकच म्हयन्यांत, अमुकच राती, [पांच, सात, णव, अकरा, अश्या गड्या नंबरांनी] खेळूंक जाय असो नेम आसता. शिवाय मांडार येवन निव्वळ नाच नाचून वचूंक मेळना, तर कांय थारावीक विधी करच्यो पडटात. 'धालो' धालांच्या मांडाबगर दुसरेकडेन नाचूंक मेळनात, तेच भाशेन त्यो वर्साक एकदांच थारायिल्ल्या दिसांनीच गांवांत खेळपाच्यो आसतात.

'धालो' ह्यो गोंय आनी कोंकणपट्टींतल्या कांय वाटारांत मेळटात. भट-बामण सोडून गांव-गाड्यांतल्या सगळ्या जातीच्यो बायलो जरी तातूंत वांटेकार जातात तरी मुखेलपणान गावडी – नायक ह्या दोन समाजाकडेन तांची चड लागणूक आशिल्ली दिसता.

शेतां-भातांतल्या वावरांतल्यान उसरपत मेळिल्ल्यान आपल्या मनोरंजनाखातीर पौष म्हयन्यांत, चान्न्या राती बायलो धूंद जावन नृत्य करतात असो सर्वसामान्यांचो गृह आसा. पुण संवसारांतल्या वेगवेगळ्या वाटारांतल्या, वेगवेगळ्या लोकनृत्यांचो अभ्यास केल्यार हो गृह चुकीचो अशें दिसूंक लागता. दादल्यांच्या लोकनृत्यांचो विचार कडेक दवरलो आनी फकत बायलांच्याच नृत्याचो विचार केलो जाल्यार, बायलांनी करपाच्या दर एका नृत्या फाटल्यान वेगळें प्रयोजन आशिल्ल्याचें जाणवता.

मादागास्कर हांगा घरांतले दादले मनीस युद्धाक गेले म्हण्टकच, बायलो-चलयो एक जावन सतत नृत्य करतात. तांचो विस्वास आसता की अशेतरेन नृत्य केल्यार तांच्या घोवांक-भावांक युद्धांत यश मेळटा. देखून विसव घेनासतना तीं सतत नृत्य करतात. कॅलिफोर्नियांतले 'युकी' नांवाचे जमातींत दादले झुजाक भायर सरून गेले म्हण्टकच तांकां जैत मेळचें ह्या भावनेन बायलो सतत नाचतात. हिंदुकुश पर्वतांत रावपी 'काफीर' ह्या जमातींतल्यो बायलो अशाच कारणांक लागून नृत्य करतल्याची माहिती मेळटा. नायजेरियांत नृत्याची अशीच एक चाल आसा. [लोकसाहित्याचे अंत:प्रवाह; डॉ. प्रभाकर मांडे, पृ. १००, १०१]

झाडांक बरीं फळां येवंची, रानांत भरपूर पीक येवंची ह्या उद्देशान

बायलांनी रानांत नृत्य करपाची चाल जायत्या देशांत आसा. सुमात्रा आनी कारमेथियन हांगा भाताची रोंपणी करतना मानेर केंस सोडून नाचत रोंप लावपाची चाल आसा. युरोपांतल्याय जायत्या वाटारांत अशेतरेची चाल आसा. ह्या फाटलो उद्‌देश भरपूर पीक येवंची असोच आसा. [लोकसाहित्याचे अंत:प्रवाह; डॉ. प्रभाकर मांडे, पृ. १०१].

ह्यो आनी अशेच तरेच्यो मेळपी जायत्यो देखी अभ्यासल्यांर गोंयच्या धालो-नृत्याचें प्रयोजन फकत मनोरंजनच आसतलें हो विचार पटना.

मादागास्कर, कॅलिफोर्निया वा नायजेरीया ह्या प्रदेशांतल्यो बायलो ज्या उद्‌देशान नृत्य करतात तसोच कितेंसो उद्‌देश गोंयच्याय धालो-नृत्याच्या मुळाकडेन ना मूं? असो एक मनांत प्रश्न उबो रावता. इत्सीत फळप्राप्ती घडपाखातीर ते गजालीची नक्कल करून नाचपाची चाल आजय संवसारांतल्या जायत्या जाती-जमातींनी आशिल्ल्याची माहिती मेळटा. [लोकसाहित्याचे अंत:प्रवाह; डॉ. प्रभाकर मांडे.] धालांच्या मांडार बायलो करतल्यो दोन रेगो आनी ह्या दोन रेगांमदीं जातली गीतरुपी शाब्दीक 'चकमक' ही अशीच कोणा एका काळार दादल्यांक जैत मेळपाच्या हावेसान केल्ली झुजाची नक्कल बी न्हय मूं? जी आजय यादींच्या रूपान जिती उरल्या! असोय एक मनांत विचार येता.

धालांच्या मांडार दर दिसा बायलो जो 'तिळो' [दर राती धालो खेळपाक सुरवात करचे पयलीं गंधाचो आनी मांड सोपयतना शेणाचो] घेतात, तो तिळो म्हणजे फकत आयावपणाचें प्रतीक न्हय तर ताच्या मुळाकडेन झुजाक गेल्ल्या दादल्यांक 'विजयश्री' मेळपाखातीर केल्ले कामनेचें प्रतीक आसूंक जाय अशें दिसता. [वीरांक गंधाचो तिळो लावपाची चाल पूर्वपरांगत साकून आसा.]

आमोणें गांवच्या धालो-गीतांतलीं कांय गीतां सामकें लक्ष वेधून घेतात. तांतलें एक गीत अशें :

**आदनी दुदनी एकच पान,**
**सरवय रान आमचें केळी बन रे.**

**केळी पानार बसला कीर,**

**(उत्तम) आमचो वीर भायर सल्ला.**

**गोंयचे वाटे तापला धूळ,**
**माघांतले वीर बाडे परतले रे.**

हें गीत पळयल्यार अशें दिसता की माघ म्हयन्यांत भायर सरून गेल्ले 'वीर' एका वर्सान म्हणजे पौष म्हयन्यांत जैत मेळोवन परतल्यात आनी इतको तेंप तांच्या यशाची कामना करून सतत नाचपी बायलांच्या नृत्याची सांगता जाल्या. धालांच्या मांडार आज पांच, सात, णव, अक्रा बी गड्या नंबरान ज्यो राती बायलो नाचतात त्यो राती म्हणजे कोणा एका काळार तांणी वर्सभर केल्ल्या नृत्यरुपी होरावण्यांच्या रातीच्यो प्रतिकात्मक राती जावंक जाय.

आज ज्या रुपांत 'धालो' हें उतर आमकां अभिप्रेत मेळटा, तें ताचें रूप नृत्य, गीत आनी विधी ह्या तीन गजालींच्या एकवटांतल्यानच पुराय जाता. ह्या संकलनांत गीतांचें वर्गिकरण करतनाय हांवें हे गजालीची जाणीव दवरल्या आनी फुडलेतरेन गीतांची वर्गवारी केल्या :

**अ] धालो – नाचार्ची गीतां**

**आ] रेगो बदलतना गावपार्ची गीतां.**

**इ] रेगो बदलतकच गावपार्ची गीतां.**

**ई] रंभा-फुगडेर्ची गीतां.**

**उ] खेळ-गीतां.**

**ऊ] धालांचो उत्सव सोंपोवपार्ची गीतां.**

**ए] किरिस्तांव समाजार्ची धालो-गीतां.**

**'धालो-नाचार्ची गीतां'** हो ह्या संकलनाचो मुखेल भाग. ह्या भागांत एकूण ८२ गीतांचो आस्पाव आसा. बायलांच्या सर्जनशिलतेचो

खरो दिस्टावो ह्या गीतांनी जाता. गांवचें देव-देवस्पण, ग्रामवेवस्था, सामाजिक परिस्थिती ह्या सगळ्यांचें बेस बरें चित्रण ह्या गीतांनी जाल्लें पळोवंक मेळटा.

ह्या गीतांनीय मुखेलपणान तीन तरेचीं गीतां मेळटात:

**१] देवांचीं गीतां.**

**२] रंभांचीं गीतां.**

**३] मनशांचीं गीतां.**

**देवांचीं गीतां:** गांवच्या ग्रामदेवतांक आनी हेर देवतांक उलो मारून हीं गीतां गायिल्लीं आसतात. वेग-वेगळ्या देवांचीं नांवां हातूंत गुंथिल्लीं आसतात. देखीक:

**नारळ बाये नारळ गे हो,**
**साश्टी गांवचो नारळ.**

**(चंद्रेश्वर) देव भायर सरले,**
**सोन्यांनी बांदिले मारग.**

**रंभांची गीतां:** कांय गीतां रंभांची होरावणी करून गायिल्लीं आसात:

**आमी देवांच्यो रंभा गे,**
**आमी मांडार खेळूं आल्यो गे.**

**आल्यो जाल्यार बऱ्यो जाल्यो,**
**सकयां साद घाला गे.**

हें गीत रंभा-गीतांची एक बरी देख जावन आसा.

**मनशांचीं गीतां:** मांडार खेळपी बायलांक, तांच्या घोवांक, भुरग्यांक, जातींक उद्देशून गायिल्ल्या गीतांचो एक वेगळो भाग मेळटा. हातूंत,

**आबोलेच्या गोंडा, भोंवर लब्धला,**
**तुरो कातविला रे, भोंवरान तुरो कातविला.**

**(दशरथ) गांवकार आमचो, मावोड्या जाता,**
**घोडो फिरविला रे, भोवरान तुरो माळविला.**

अशे तरेचीं गीतां मेळटात. [आमोणें गांवांत भट-बामण समाजाच्यो बायलो धालांत वांटो घेनात पुण हेर जातींबरोबर तांच्या मानाप्रमाण तांचीं नांवां घेतात.]

गीतांच्या ह्या तीनय प्रकारांत 'जशीं आसा तशीं गावप' वा 'प्रसंगानुरूप तांतलीं नांवां बदलप' अशे दोन प्रकार मेळटात. जीं गीतां आसात तशींच गावचीं पडटात आनी वाडोवंक मेळनात अशा गीतांमदलीं कांय गीतां एकाद्रया कडव्याच्या रुपांत मेळटात. तें एकच कडवें मागीर पांच, सात, णव, अश्या गड्या नंबरान आपल्याक जाय तितको वेळ गावपाचें आसता.

प्रंसगानुरूप नांवां घालून जीं गीतां जाय तशीं वाडोवंक मेळटात त्या गीतांनीय गड्या नंबराक म्हत्व आसता. कमीत तीं पांच नांवां घेवंक जाय असो नेम आसता. तशेंच कोणय चुकून माकून उरून ताचें रागणें पडचें न्हय म्हण निमाणें 'सरवयांक' म्हणपाची गरज आसता.

संकलनाच्या ह्या पयल्या भागांत, बायलांनी आपल्या मनांतल्या धार्मिक भाव-भावनांबरोबरच काळजांतल्या व्यथांकय गीतरुपकार दिल्लो दिसता.

**बायेली पात फुल्ल्या बांयकडेन,**
**बायेक आपोवंक धाड,**
**बायेक बोलावंक धाड.**

ह्या गीतांत तर त्यो खूबच प्रखरपणान उक्तडार आयिल्ल्यो जाणवतात.

**तोर अशी रोयली रामाय शोव गे शोव**

वा

**आज गांवकार रान पळोवंक या म्हण्टा गे भोवाळे,**
**जिरें कोथंबिरी, जिरें कोथंबिरी.**

हीं गितां अभ्यासल्यार धालांची अदिमता लक्षांत येता. ज्या वेळार समाज 'सामुहीक जीण' जगतालो, सामुहीक पद्धतीन शेत-भात रोयतालो, त्यावेळार साकून 'धालो' अस्तित्वांत आशिल्ल्यो हाचींच तीं गवाय जावन आसात.

ह्या संकलनाचो दुसरो भाग म्हळ्यार **'रेगो बदलतना गावपाचीं गीतां'**. धालो नाचपाक उब्यो रावतना बायलो [सवाशिणीबरोबर विधवा आनी आंकवार चलयोय वांटो घेतात] एकमेकांच्या कमराक वेटाळो घालून दोन रेगो करतात. कोणें खंयचे रेगेक उबें रावपाचें तें थारिल्लें आसता. एके रेगेक उबे रावतलेक दुसरे रेगेंत वचूंक मेळना, तशेंच एकदां मांडार उबीं रावतकच रेगो बदलचे पयलीं दुसऱ्या वोळींतल्या बायलांक तेंकूंक जायना असो समज आसा.

वयर वयर जरी 'रेगो बदलप' अशें म्हळें तरी खऱ्या अर्थान तें 'रेगो बांदप'.

**एक रेग बांदीन गे,**
**गणेसा देवा भेटे धाडीन गे.**

ह्या प्रसंगार गावपाचें हें गीत तोच अर्थ सुचयता.

ह्या वेळार नाचप बंद करून बायलो थारावीक गीतां गायतात आनी आंगात अदृश्य शक्ती आयिल्ल्याची नक्कल करीत वोळीक उब्यो राविल्लेकडेनच धोलतात. धोलतां धोलतां धांवत वचून दुसऱ्या वोळीच्या जाग्यार उब्यो रावतात आनी मागीर वोळ मोडटात.

रेगो बदलतकच जीं गीतां गायतात तातूंत खेळीमेळीचेंच वातावरण चड आसता. तांचो वेगळो विभाग केला. उपरांत 'रंभां-फुगडी' नाचतात.

जर कोणाक इत्सा आसल्यार हेर फुगडेचे प्रकारय ह्या वेळार नाचतात पुण तांचें बंदन नासता, [देखून त्या फुगड्यांचो ह्या संकलनांत आस्पाव केलो ना.] तशेंच त्यो सगळ्यो फुगड्यो रंभां-फुगडे पयलीं नाचूंक जाय. एका तेंपार ही फुगडी नाचतना 'रंभा' उब्यो रावताल्यो [येताल्यो] अशी माहिती मेळटा. आज तशो रंभा येनात पुण तांची फुगडी घालपाचें मात रावनात.

**'रंभां-फुगडेचीं गीतां'** आकारान ल्हान आनी तांच्या गावपांत एक वेग आसता. कांय वेळार कसलेंय गीत गायनासतना फकत तोंडान 'फू! फू!' करीत ताळ्यो पेटीत नाचतात.

**आयल्यो गे रंभाबायो,**
**झंपांनी खेळूं,**
**झंपांनी खेळूं!**

**दाद गेला बोणकी तळा,**
**शिंपल्यांनी खेळूं,**
**शिंपल्यांनी खेळूं,**

**फुगडा फू! फुगडा फू!**

रंभां-फुगडे उपरांतचो भाग म्हणजे **'खेळ-गीतांचो'**. ज्या दिसा 'मांड सोपयतात', त्या दिसा मोर, घोणचें पील, कांस, सावज, बलांव, लग्न ह्या सारके 'खेळ' करतात. [नक्कल करून नाचतात] हे खेळ करतना सुचक अशीं गीतां गायतात. त्या सगळ्या गीतांचो आस्पाव ह्या एकाच भागांत केला. पारंपारीक खेळ खेळून जाल्या उपरांत **'धालांचो उत्सव सोंपोवपाचो'** विधी जाता. ह्या वेळार जीं गीतां गायतात, त्या गीतांखातीर ह्या संकलनांत वेगळो विभाग केला. हीं गीतां गायतना नाचनात तर थारावीक चाली-रितींक पाळो दितात. ह्या गीतांनी 'ताल' कमी आसता.

**शेण कालयतां,**
**शेण कालयतां,**
**शेणां पडला किडा रे धालो,**

**शेणां पडला किडा.**

**धालांच्या माथ्यार,**
**शेणांचा काला,**
**आयच्यान धालो सोंपोवया रे,**
**आयच्यान धालो सोंपोवया.**

हें गीत गायतना बायलो, गांवकान्नीन मांडार कालयिल्ल्या 'शेणाचो' मोठे धन्यतायेन कपलाक 'तिळो' लायतात.

ह्या संकलनांत आस्पाविल्लो निमाणो भाग म्हणजे **'किरिस्तांव समाजाचीं धालो-गीतां'**. आज गांवांत ह्या समाजांतल्यो बायलो धालो खेळनात. पुण सुमार ४० वर्सांफाटीं ह्या समाजांत तशी चाल आशिल्ली हाची माहिती मेळटा. सद्याचे परिस्थितींत तांची फकत 'णव' गीतां मेळप म्हाका शक्य जालां.

तीं गीतां अभ्यासल्यार तांच्या आनी हिंदूंच्या गीतांचे रचनेंच, लय-तालांत खुबच साम्य दिसता. कांय गीतां तर जशाच्या तशींच आसात. फक्त धर्माप्रमाण तांतलीं नांवां बदलल्यांत. जल्मी, खुंटी, ब्रह्मो, चंद्रेश्वर, भूतनाथ ह्या गांवच्या ग्रामदेवतांकय [हिंदूंच्या देवांक] त्यो आपल्या देवांबरोबर होरायताल्यो म्हणपाचें दिसून येता.

**पियेच्या मुळांतू गे,**
**हो धूप कोणें वारयला गे,**
**हो धूप कोणें वारयला.**

**पियेदाद सायबीण येयल्या गे,**
**तिणें हो बिजमेंत केला गे,**
**हो बिजमेंत केला.**

हें गीत अभ्यासल्यार वयल्या विधानाची सत्यताय पट्टा.

आमोणें गांवांत ज्या किरिस्तांव घराण्यांनी 'धालो खेळूंक' पयलीं सुरवात केली तीं मुळचीं हिंदूच. पोर्तुगेजांच्या धर्मकोल्लीपणाचो बळी

जाल्ल्यान तांकां किरिस्तांव धर्म स्विकारचो पडलो. [आमोणें गांवांत 'बाटा-बाटी' जावंक ना.] तांचो धर्म बाटिल्लो, पुण आंतरीक भावना बदल्ल्यो नाशिल्ल्यो. म्हुणुनच किरिस्तांव धर्मांत गेल्या उपरांतय तांणी धालो खेळपाचें बंद केलेंना.

हिंदू आनी किरिस्तांव ह्या दोन समाजांमदल्या भावकेचेर उजवाड घालपाक सोपें जावचें ह्या हेतून, फाटल्या कोडू इतिहासाची गवाय दिवपी हीं धालो-गीतां ह्या संकलनांत हांवें मुद्दामच हिंदूंच्या धालो-गीतां बरोबर एकठांय हाडल्यांत.

**जयंती नायक**

# १. गंदान मांड सारयला

पयली रेग : गंदान मांड सारयला हो,
गंदान मांड सारयला.

दुसरी रेग : चंद्रेश्वर देवान खेळ खेळयला हो,
चंद्रेश्वर देवान खेळ खेळयला.

पयली रेग : चाफेलान मांड सारयला हो,
चाफेलान मांड सारयला.

दुसरी रेग : जल्मी देवान खेळ खेळयला हो,
जल्मी देवान खेळ खेळयला.

[अक्षदान, कुकमान, वत्सलान, धुपेलान, खोबरेलान बी मांड सारयला म्हणप. तशेंच आपल्याक जाय त्या देवांची नांवां घेवप.]

पयली रेग : सरवय[१] तेलांनी मांड सारयला हो,
सरवय तेलांनी मांड सारयला.

दुसरी रेग : सरवय देवांनीं खेळ खेळयला हो,
सरवय देवांनीं खेळ खेळयला.

---

१ – सरवय = सगळ्या

## २. मोनी आल्यो मोनी गेल्यो

पयली रेग : ---------------
---------------

दुसरी रेग : मोनी आल्यो[१] मोनी गेल्यो, कितें गे बायानो,
मोनी आल्यो मोनी गेल्यो, कितें गे बायानो ?

पयली रेग : आमंच आले बायी लेकी काजळ गे,
लेकीबायेचो आवय-बापुय नायी घरा गे.

दुसरी रेग : लेकीबायेच्या आवय-बापायक बोलाया गे,
लेकीबायेच्या आवय-बापायक बोलाया गे.

पयली रेग : ---------------
---------------

दुसरी रेग : मोनी आल्यो मोनी गेल्यो, कितें गे बायानो,
मोनी आल्यो मोनी गेल्यो, कितें गे बायानो ?

पयली रेग : आमंच आले बायी लेकी काजळ गे,
लेकीबायेचो आजो-आजी नायी घरा गे.

---

१ – आल्यो = आयल्यो

**दुसरी रेग** : लेकीबायेच्या आज्या-आजेक बोलाया गे,
लेकीबायेच्या आज्या-आजेक बोलाया गे.

[अशेतरेन नात्यांतल्या मनशांचीं नांवां घेवन कमीत ते पांच फावट म्हणप. निमाणें सरवयांक म्हणप.]

**दुसरी रेग** : लेकीबायेच्या सरवय लोकांक बोलाया गे,
लेकीबायेच्या सरवय लोकांक बोलाया गे.

# ३. आमी देवांच्यो रंभा

आमी देवांच्यो रंभा [१] गे,
आमी मांडार खेळूं आल्यो गे,
आमी मांडार खेळूं आल्यो.

आल्यो जाल्यार बऱ्यो जाल्यो,
सकया साद घाला गे बायी,
सकया साद घाला.

[पांच फावट म्हणप.]

१ – रंभा = धालांच्या मांडार जे आंकवार चलयेचेर भार येता ती.

# ४. श्री धालो, धालांनीं खेळूं या

श्री धालो रे धालो,
धालांनी खेळूं या रे धालो,
धालांनी खेळूं या.

धालांच्या पांयां सोलमुदी साजे,
धालांनी खेळूं या रे धालो,
धालांनी खेळूं या.

श्री धालो रे धालो,
धालांनी खेळूं या रे धालो,
धालांनी खेळूं या.

धालांच्या कमराक कमरपटो साजे,
धालांनी खेळूं या रे धालो,
धालांनी खेळूं या.

[पांच अळंकारांचीं नांवां घेवन पांच फावट म्हणप. निमाणें 'सरवय शिंरगार' म्हणप.]

## ५. श्री धालो, खुंटुनी घाला पाला

श्री धालो रे धालो,
खुंटुनी घाला पाला रे धालो,
खुंटुनी घाला पाला.

श्री धालो रे धालो,
कृष्ण गेला बेला रे धालो,
कृष्ण गेला बेला.

श्री धालो रे धालो,
खुंटुनी घाला पाला रे धालो,
खुंटुनी घाला पाला.

श्री धालो रे धालो,
कृष्ण गेला बेला रे धालो,
कृष्ण गेला बेला.

[पांच फावट म्हणप.]

# ६. बत्तीस पावणे, तेत्तीस सरहद

बत्तीस पावणे,
तेत्तीस सरहद,
देवोनी आल्यो रंभाबायो गे,
देवोनी आल्यो रंभाबायो.

देवोनी आल्यो रंभाबायो गे,
तुमी कशानी वळखल्यो गे,
तुमी कशानी वळखल्यो ?

पांयाशी पद्मा,
हाताशी झारी,
कपली चंद्र,
तेणी वळखल्यो आमी रंभाबायो गे,
तेणी वळखल्यो आमी रंभाबायो.

[पांच फावट म्हणप.]

## ७. मळणीच्या मळ्यांत

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक केंसर,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक केंसर.

केंस वळोवंक लागल्यो त्यो रंभाबायो गे,
केंस वळोवंक लागल्यो त्यो रंभाबायो.

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक बुतांव,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक बुतांव.

थंय बुध करी त्यो रंभाबायो गे,
थंय बुध करी त्यो रंभाबायो.

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक अंत,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक अंत.

कापड-चोळी न्हेसता रंभा रात जाली गे,
कापड-चोळी न्हेसता रंभा रात जाली.

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक गोटूल,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक गोटूल.

थंय गोंटाळल्यो त्यो रंभाबायो गे,
थंय गोंटाळल्यो त्यो रंभाबायो.

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक दसण,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक दसण.

मानेर केलां खसण तें रंभाबायो गे,
मानेर केलां खसण तें रंभाबायो.

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक हात,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक हात.

थंय मत्त करी त्यो रंभाबायो गे,
थंय मत्त करी त्यो रंभाबायो.

मळणीच्या मळ्यांत फुल एक शंख,
मळणीच्या मळ्यांत फुल एक शंख.

शंखनाद करी त्यो रंभाबायो गे,
शंखनाद करी त्यो रंभाबायो.

## ८. आबोलेच्या गोंडा, शेंवतेच्या देठा

आबोलेच्या गोंडा,
शेंवतेच्या देठा,
पुंडलीका भावा तुका रात जाली रे,
पुंडलीका भावा तुका रात जाली.

आबोलेच्या गोंडा,
शेंवतेच्या देठा,
पुंडलीका भावा तुका खेळों येवपा जाय रे,
पुंडलीका भावा तुका खेळों येवपा जाय.

[पांच फावट म्हणप.]

# ९. दारींतला आंबा बायी

दारींतला आंबा बायी, चंवरांनी डोले गे,
चंवरांनी डोले.

मांडागुरू भायर सरले, प्रसादांनी बोले गे,
प्रसादांनी बोले.

दारींतला आंबा बायी, चंवरांनी डोले गे,
चंवरांनी डोले.

जल्मीदेव भायर सरले, प्रसादांनी बोले गे,
प्रसादांनी बोले.

दारींतला आंबा बायी, चंवरांनी डोले गे,
चंवरांनी डोले.

भैरांवदेव भायर सरले, प्रसादांनी बोले गे,
प्रसादांनी बोले.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

## १०. हळदीचे मळे

मळे बाये मळे गे हे, हळदीचे मळे.

मांडागुरू भायर सरले, केले गंदाचे तिळे
गे बायी, केले गंदाचे तिळे.

मळे बाये मळे गे हे, हळदीचे मळे.

भूतनाथदेव भायर सरले, केले गंदाचे तिळे
गे बायी, केले गंदाचे तिळे.

मळे बाये मळे गे हे, हळदीचे मळे.

चांद-सुर्यदेव भायर सरले, केले गंदाचे तिळे
गे बायी, केले गंदाचे तिळे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ११. नक्षत्रांच्यो वोळी

वोळी बाये वोळी गे, ह्यो नक्षत्रांच्यो वोळी.

खुंटीमाया भोळी गे, आमकां खेळूंक दिल्यो वोळी.

वोळी बाये वोळी गे, ह्यो नक्षत्रांच्यो वोळी.

धर्तरीमाया भोळी गे, आमकां खेळूंक दिल्यो वोळी.

वोळी बाये वोळी गे, ह्यो नक्षत्रांच्यो वोळी.

वनदेवतामाया भोळी गे, आमकां खेळूंक दिल्यो वोळी.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# १२. तळयेच्या तुंबा

तळयेच्या तुंबा गा,
हो कापुर कोणी धुला गा,
हो कापुर कोणी धुला.

मांडागुरूदेव न्हाला गा,
तेचा पाट सोडून दिला गा,
तेचा पाट सोडू दिला.

तळयेच्या तुंबा गा,
हो कापुर कोणी धुला गा,
हो कापुर कोणी धुला.

सिद्धभैरांवदेव न्हाला गा,
तेचा पाट सोडून दिला गा,
तेचा पाट सोडू दिला.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# १३. काजू बाये काजू

काजू बाये काजू गे,
ह्यो पुर्तुकाल्यो[१] काजू.

जल्मीदेव भायर सरले,
दोनीय रस्ते बाजू गे बाये,
दोनीय रस्ते बाजू.

काजू बाये काजू गे,
ह्यो पुर्तुकाल्यो काजू.

चांगेशदेव भायर सरले,
दोनीय रस्ते बाजू गे बाये,
दोनीय रस्ते बाजू.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

---

१ – पुर्तुकाल्यो = पुर्तुगाल्यो.

# १४. नारळ बाये नारळ

नारळ बाये नारळ गे हो,
साश्टी गांवचो नारळ.

रामनाथदेव भायर सरले,
सोन्यांनी बांदिले मारग गे बायी,
सोन्यांनी बांदिले मारग.

नारळ बाये नारळ गे हो,
साश्टी गांवचो नारळ.

चंद्रेश्वरदेव भायर सरले,
सोन्यांनी बांदिले मारग गे बायी,
सोन्यांनी बांदिले मारग.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# १५. आळ बाये आळ

आळ बाये आळ गे ही,
तांबुशेची आळ.

वाग्रसिद्धदेव भायर सरले,
गगनी वाजे ताळ गे बायी,
गगनी वाजे ताळ.

आळ बाये आळ गे ही,
तांबुशेची आळ.

दर्शनादेव भायर सरले,
गगनी वाजे ताळ गे बायी,
गगनी वाजे ताळ.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# १६. सात दिसां वाटे जांयीन सांते

सात दिसां वाटे जायीन सांते[१],
हाडिले हाते केगदीचे गे,
हाडिले हाते केगदीचे.

हाडिले हाते भरिले खोपे,
भगवती माये सद्दीचे गे,
भगवती माये सद्दीचे.

सात दिसां वाटे जायीन सांते,
हाडिले हाते केगदीचे गे,
हाडिले हाते केगदीचे.

हाडिले हाते भरिले खोपे,
सांतेर माये सद्दीचे गे,
सांतेर माये सद्दीचे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

---

१ – सांते = बाजार.

# १७. तळ्यांतली दाणय

तळ्यांतली दाणय[१],
तळ्यांतली दाणय,
तळ्यां फिरता,
तळ्यां फिरता गे धालो,
तळ्यां फिरता.

दामूदर देवाचो रथ येवन मांडार खेळटा,
मांडार खेळटा गे धालो,
मांडार खेळटा.

तळ्यांतली दाणय,
तळ्यांतली दाणय,
तळ्यां फिरता,
तळ्यां फिरता गे धालो,
तळ्यां फिरता.

गणेस देवाचो रथ येवन मांडार खेळटा,
मांडार खेळटा गे धालो,
मांडार खेळटा.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

---

१ – दाणय = होडें, दोणें.

# १८. पान म्हाजें, फोंफळ तुजें

पान म्हाजें, फोफळ तुजें,
चुना कोणा लागी आहे गे,
चुना कोणा लागी आहे.

भवानीमाया पान खाया,
चुना तिचे लागी आहे गे,
चुना तिचे लागी आहे.

पान म्हाजें, फोफळ तुजें,
चुना कोणा लागी आहे गे,
चुना कोणा लागी आहे.

तुळशीमाया पान खाया,
चुना तिचे लागी आहे गे,
चुना तिचे लागी आहे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# १९. सोनियाचो चेंडू

सोनियाचो चेंडू, रुप्याची गोपीण,
हरी आंबोयो पाडूं गेला गे,
हरी आंबोयो पाडूं गेला.

आंब्यान आंबो पाडीन हो,
ब्रह्म्यादेवा भेटे धाडीन हो,
विष्णुदेवा भेटे धाडीन.

सोनियाचो चेंडू, रुप्याची गोपीण,
हरी आंबोयो पाडूं गेला गे,
हरी आंबोयो पाडूं गेला.

आंब्यान आंबो पाडीन हो,
शांतादुर्गे भेटे धाडीन हो,
धर्तरीमाये भेटे धाडीन.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# २०. आम्या आमो वणकलो

आम्या आमो[१] वणकलो गे घोडो निसल्लो,
आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो.

घोड्यार बशिल्लो जल्मीदेव आमचो बेत विसल्लो,
घोड्यार बशिल्लो जल्मीदेव आमचो बेत विसल्लो.

आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो,
आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो.

घोड्यार बशिल्लो मांडागुरू आमचो चिलीम विसल्लो,
घोड्यार बशिल्लो मांडागुरू आमचो चिलीम विसल्लो.

आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो,
आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो.

घोड्यार बशिल्लो गणेसदेव आमचो सोटो विसल्लो,
घोड्यार बशिल्लो गणेसदेव आमचो सोटो विसल्लो.

आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो,
आम्या आमो वणकलो गे घोडो निसल्लो.

घोड्यार बशिल्लो चांगेशदेव आमचो मुतारी विसल्लो,
घोड्यार बशिल्लो चांगेशदेव आमचो मुतारी विसल्लो.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

---

१ – आमो = आंबो.

# २१. आम्या आमली वणकली

आम्या आमली[१] वणकली गे पालकी निसल्ली,
आम्या आमली वणकली गे पालकी निसल्ली.

पालके बशिल्ली खुंटीमाया आमची नथ विसल्ली,
पालके बशिल्ली खुंटीमाया आमची नथ विसल्ली.

आम्या आमली वणकली गे पालकी निसल्ली,
आम्या आमली वणकली गे पालकी निसल्ली.

पालके बशिल्ली रंभाबाय आमची गुळकी विसल्ली,
पालके बशिल्ली रंभाबाय आमची गुळकी विसल्ली.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

---

१ – आमली = आंबली.

# २२. साडेतिनशें दांणयो, रथा तुज्यो घुडयो

साडेतिनशें दांणयो, रथा तुज्यो घुडयो,
त्या रथां कोण देव बसे गे,
त्या रथां कोण देव बसे.

त्या रथा बसे खुंटीमाया बसे,
जनलोक दिसे, मांडार रथ खेळे गे,
मांडार रथ खेळे.

साडेतिनशें दांणयो, रथा तुज्यो घुडयो,
त्या रथां कोण देव बसे गे,
त्या रथां कोण देव बसे.

त्या रथा बसे भूतनाथदेव बसे,
जनलोक दिसे, मांडार रथ खेळे गे,
मांडार रथ खेळे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# २३. उब्या खांद्या चडोनिया

उब्या खांद्या चडोनिया,
आडव्या खांद्या धरोनिया,
चाफीं खुंटी रूशीदेव गे,
चाफीं खुंटी रूशीदेव.

खुंटिलीं चाफीं भरिलीं पेटाऱ्या,
धाडिलीं वनदेवतेमाये भेटे गे,
धाडिलीं वनदेवतेमाये भेटे.

उब्या खांद्या चडोनिया,
आडव्या खांद्या धरोनिया,
चाफीं खुंटी रूशीदेव गे,
चाफीं खुंटी रूशीदेव.

खुंटिलीं चाफीं भरिलीं पेटाऱ्या,
धाडिलीं पुंडलीकदेवा भेटे गे,
धाडिलीं पुंडलीकदेवा भेटे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# २४. खैरी काटियो

खैरी काटियो[१], खैरी काटियो,
खैरीचे केले दरवटे गे,
खैरीचे केले दरवटे.

त्या दरवट्यां बसे, शांतादुर्गा बसे,
घोडे साजे चिटियांचे गे,
हातांत आयणे फुलांचे गे,
फाटीर झेले मोतयांचे.

खैरी काटियो, खैरी काटियो,
खैरीचे केले दरवटे गे,
खैरीचे केले दरवटे.

त्या दरवट्यां बसे चंद्रेश्वरदेव बसे,
घोडे साजे चिटियांचे गे,
हातांत आयणे फुलांचे गे,
फाटीर झेले मोतयांचे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

१ – काटियो = कापल्यो.

# २५. पाऊस झिळिमिळी

पाऊस झिळिमिळी, पाऊस झिळिमिळी,
पडला सड्यावरी गे सैये, पडला सड्यावरी.

चंद्रेश्वरादेवा म्हाज्या, चंद्रेश्वरादेवा म्हाज्या,
भिजली अप्तागिरी गे सैये, भिजली अप्तागिरी.

पाऊस झिळिमिळी, पाऊस झिळिमिळी,
पडला सड्यावरी गे सैये, पडला सड्यावरी.

जलम्यादेवा म्हाज्या, जलम्यादेवा म्हाज्या,
भिजली अप्तागिरी गे सैये, भिजली अप्तागिरी.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# २६. बोणे बाये बोणे

बोणे[१] बाये बोणे गे हे, तांबड्या माडाचे बोणे.

मंगेश देवाचे पालके गे हे, रसीमाचे गोणे[२] गे हे,
रसीमाचे गोणे.

बोणे बाये बोणे गे हे, तांबड्या माडाचे बोणे.

ग्रामपुरूस देवाचे पालके गे हे, रसीमाचे गोणे गे हे,
रसीमाचे गोणे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

---

१ – बोणे = बोंडे.

२ – गोणे = गोंडे.

# २७. आशे बाये आशे

आशे बाये आशे गे हे, कुंरगुट्या भाताचे आशे.

वाग्रसिद्धाच्या देवळा गे हे, रथान पाठयल्ले वाशे
गे हे, रथान पाठयल्ले वाशे.

आशे बाये आशे गे हे, कुंरगुट्या भाताचे आशे.

राम-लक्ष्मणाच्या देवळा गे हे, रथान पाठयल्ले वाशे
गे हे, रथान पाठयल्ले वाशे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# २८. खण कुदळा

खण कुदळा, खण कुदळा, मणभर माती,
मणभर माती रे धालो, मणभर माती.

मुदेश्वर देवाचें देवूळ बांदला मध्यानी राती,
मध्यानी राती रे धालो, मध्यानी राती.

खण कुदळा, खण कुदळा, मणभर माती,
मणभर माती रे धालो, मणभर माती.

बरम्या देवाचें देवूळ बांदलां मध्यानी राती,
मध्यानी राती रे धालो, मध्यानी राती.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

## २९. आमी अशें रान माल्लां

आमी अशें रान माल्लां जाम्याचें,
आमी अशें रान माल्लां जाम्याचें.

जल्मीदेवाक देवूळ बांदलां खाम्याचें[१],
जल्मीदेवाक देवूळ बांदलां खाम्याचें.

आमी अशें रान माल्लां गाळयेचें,
आमी अशें रान माल्लां गाळयेचें.

मांडागुरूक देवूळ बांदलां माळयेचें,
मांडागुरूक देवूळ बांदलां माळयेचें.

आमी अशें रान माल्लां फळसाचें,
आमी अशें रान माल्लां फळसाचें.

सांतेरमायेक देवूळ बांदलां कळसाचें,
सांतेरमायेक देवूळ बांदलां कळसाचें.

---

१ – खाम्याचें = खांब्याचें.

आमी अशें रान माल्लां उऱ्याचें,
आमी अशें रान माल्लां उऱ्याचें

चांगेशदेवाक देवूळ बांदलां तुऱ्याचें,
चांगेशदेवाक देवूळ बांदलां तुऱ्याचें.

आमी अशें रान माल्लां जिन्याचें,
आमी अशें रान माल्लां जिन्याचें

खुंटीमायेक देवूळ बांदलां चुन्याचें,
खुंटीमायेक देवूळ बांदलां चुन्याचें.

## ३०. आळंबी काय गुळंबी

आळंबी काय गुळंबी काय तेला-तुपाची,
आळंबी काय गुळंबी काय तेला-तुपाची.

लालकी काय पालकी काय वनदेवतेमायेची,
लालकी काय पालकी काय वनदेवतेमायेची.

आळंबी काय गुळंबी काय तेला-तुपाची,
आळंबी काय गुळंबी काय तेला-तुपाची.

लालकी काय पालकी काय म्हाळशेमायेची,
लालकी काय पालकी काय म्हाळशेमायेची.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

## ३१. आम्याचें पान बाये आमट

आम्याचें पान बाये आमट,
आम्याचें पान बाये आमट.

जलम्यादेवा तुका सोन्याचें पागोट,
भुरग्यां-बाळां आमच्या जतन राख.

आम्याचें पान बाये आमट,
आम्याचें पान बाये आमट.

भूतनाथादेवा तुका सोन्याचें पागोट,
गोरवां-वासरां आमच्या जतन राख.

आम्याचें पान बाये आमट,
आम्याचें पान बाये आमट.

चंद्रेश्वरादेवा तुका सोन्याचें पागोट,
येयल्यां-गेल्यां आमच्या जतन राख.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ३२. आत्ताळी रोयणी, पात्ताळी रोयणी

आत्ताळी[१] रोयणी, पात्ताळी[२] रोयणी.
रोयणीर नाग डुले गे बायी, रोयणीर नाग डुले.

खांदाशी पेटारो, हाताशी शंख,
शंखार नाग भुले गे बायी, शंखार नाग भुले.

आत्ताळी रोयणी, पात्ताळी रोयणी,
रोयणीर नाग डुले गे बायी, रोयणीर नाग डुले.

खांदाशी पेटारो, हाताशी शंख,
शंखार नाग भुले गे बायी, शंखार नाग भुले.

[पांच फावट म्हणप.]

---

१ – आत्ताळी = भुंयेचेर.
२ – पात्ताळी = पाताळी.

# ३३. मळणीच्या मळ्या मदे

मळणीच्या मळ्या मदे दोगांय उबीं काय,
बापडीं दोगांय उबीं.

वाटेन जाता ईश्वर-पार्वती वासा लब्दलीं काय,
बापडीं वासा लब्दलीं.

मळणीच्या मळ्या मदे दोगांय उबीं काय,
बापडीं दोगांय उबीं.

वाटेन जाता ईश्वर-पार्वती वासा लब्दलीं काय,
बापडीं वासा लब्दलीं.

[पांच फावट म्हणप.]

## ३४. एक संबर गाती फिरती

एक संबर गाती फिरती, कुणाची नायी एक भिती,
देवांनो कुणाची नायी एक भिती.

संबर गेले रायरस्ती संवसार सागरा,
देवांनो संवसार सागरा.

इंद्राच्या कुंवरा रे, खुंटीमायेन खेळ गे मांडिला गे,
खुंटीमायेन खेळ गे मांडिला.

आत्ताळी पात्ताळी, देवांनी टाकला जगमोती,
देवांनी टाकला जगमोती.

शिवा शिवा शंकरा म्हणोनी, आले शरणागती,
देवांनो आले शरणागती.

दोन संबर गाती फिरती – – – –
– – – – – – – – – – – –

तीन – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – –

चार – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – –

पांच – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – –

# ३५. जाये जुयेचें गे एक पान

जाये जुयेचें गे एक पान.
बरो साळीचो गे भात.
बरें कुळीदांचें गे वन्न.
बरें तिखटेचें गे पान.
चकट [१] जालें जेवण देवांनो उठा हो भोजना.

बरो कुंरगुटाचो गे भात.
बरें मुगाचें गे वन्न.
बरें बिबयेचें गे पान.
चकट जालें जेवण देवांनो उठा हो भोजना.

बरो खचऱ्याचो गे भात.
बरें मसुरेचें गे वन्न.
बरें केळीचें गे पान.
चकट जालें जेवण देवांनो उठा हो भोजना.

बरो आयाचो गे भात.
बरें तोरीचें गे वन्न.
बरें आवाळेचें गे पान.
चकट जालें जेवण देवांनो उठा हो भोजना.

[अशेतरेन जाय तितकें गीत वाडवूंक येता.]

---

१ – चकट = मस्त

# ३६. वाटे वयलो चिड्डो

वाटे वयलो चिड्डो गे लवलव जाता गे,
लवलव जाता.

लवलव जाता म्हुणोनी देवते मानवता गे,
देवते मानवता.

देवते मानवता म्हुणोनी सुर्या लेक दिता गे,
सुर्या लेक दिता.

[पांच फावट म्हणप.]

# ३७. पाणयांत झिळिमिळी

पाणयांत झिळिमिळी, पाणयांत झिळिमिळी,
कृष्णाचें रूप दिसता गे राधीके, कृष्णाचें रूप दिसता.

दाव्या हाताशी उबो तिळो, दाव्या हाताशी उबो तिळो,
भुलला त्या गोवींदा गे राधीके, भुलला त्या गोवींदा.

[पांच फावट म्हणप.]

# ३८. दर्याचे देगे, राजाच्यो कुंवरी

दर्याचे देगे, राजाच्यो कुंवरी आमी खेळटाल्यो गे,
राजाच्यो कुंवरी आमी खेळटाल्यो.

दर्याचे देगे, घर बांद गे चानये, देरभाव गेला
शिकारे गे, देरभाव गेला शिकारे.

दर्याचे देगे, देरभाव गेला हुनये[१] शिकारे गे,
देरभावानी केला अळंकार, देरभावानी केला अळंकार.

[पांच फावट म्हणप.]

१ – हुनये = व्हनये, भावजे.

# ३९. कुराड्यांच्यो धारा गे,
# पाणऱ्यांच्यो फडा

कुराड्यांच्यो धारा गे,
ह्यो पाणाऱ्यांच्यो फडा गे,
हो सुर्य भालांडून गेला गे,
हो सुर्य भालांडून गेला.

सुर्य भालांडून गेला गे,
हो राजाक पुत्र जाला गे,
तेका कडीं-बिडीं करून घाला गे,
तेका कडीं-बिडीं करून घाला.

कुराड्यांच्यो धारा गे,
ह्यो पाणाऱ्यांच्यो फडा गे,
हो सुर्य भालांडून गेला गे,
हो सुर्य भालांडून गेला.

सुर्य भालांडून गेला गे,
हो राजाक पुत्र जाला गे,
तेका घुमांजोड करून घाला गे
तेका घुमांजोड करून घाला.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ४०. सारी बेनलीण वेडली ताटी

सारी बेनलीण वेडली ताटी, सारी बेनलीण वेडली ताटी,
आवड जाली मोटी रे राघोबा, आवड जाली मोटी.

सरवय आंगाशी काडिले गंद, सरवय आंगाशी काडिले गंद,
बाळपणीचा संग रे राघोबा, बाळपणीचा संग.

दिमखुऱ्यां धाविशी रे राघोबा, मिरीयां धरिशी रे राघोबा,
मिरीयां धरिशी.

[पांच फावट म्हणप.]

# ४१. चंद्रिमा सारक्या नक्षत्रा

चंद्रिमा सारक्या नक्षत्रा गो, तुजी पिराय गेली वाया गो,
तुजी पिराय गेली वाया.

धरिलें साप, भरिलें पेटाऱ्या, तुज्या चंद्रवाळ्यां जाला भार गो,
तुज्या चंद्रवाळ्यां जाला भार.

चंद्रिमा सारक्या नक्षत्रा गो, तुजी पिराय गेली वाया गो,
तुजी पिराय गेली वाया.

धरिलें साप, भरिलें पेटाऱ्या, तुज्या कमरपट्या जाला भार गो,
तुज्या कमरपट्या जाला भार.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ४२. चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
पयली भेट घेतली शंकभैरांवाची गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
मेस्त पर्वत चडों लागले गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

त्रिपाशाण चडती हर विठ्ठल घालती,
रथाचे खांब जोडिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथाची चाकां जोडिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथाक चित्रां काडिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथाक घुडयो बांदिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथाक कापडां बांदिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथाक घूड बांदिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाह्ल कितके फोडिती,
रथाक सवो जोडिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाह्ल कितके फोडिती,
रथ तयार केला गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाह्ल कितके फोडिती,
रथांत 'देव बसविला गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

भट-गुरव, थळ-जोतकरी,
रथाची पुजा करिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे. -

आठ देसायी, णव नाडकर्णी,
णव मण धूर्प जाळिती गे,
रथाचो हानो जोमिती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती बोकरे[१]-कोंबे कापती,
रगतान शीत कालविती गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
शीत पेरूं लागले गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
चौगुड्यार शेनाय वाजविती गे.

---

१ – बोकरे = बोकडे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथ वोडूं लागले गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
घाटाचो वाणी आला कोंकणी गे,
देवाच्या दर्शनाक गे.

चैत्र पुनवे दिवशी यात्रा देवांची,
रथ घडिला चाफ्याचा गे.

हरहर घालती नाल्ल कितके फोडिती,
रथ थाण्यार पावला गे.

# ४३. वोवळीचें वोंवळ

वोवळीचें वोंवळ म्हाजें, वाऱ्यान झेडपलें,
वतान करपलें, पडलें भुमीवरी गे, पडलें भुमीवरी.

हाताशी काडिलें, माथ्याशी माळिलें,
गांवकारां बायलांनी आयावपण[१] भोगिलें गे,
गांवकारां बायलांनी आयावपण भोगिलें.

वोवळीचें वोंवळ म्हाजें, वाऱ्यान झेडपलें,
वतान करपलें, पडलें भुमीवरी गे, पडलें भुमीवरी.

हाताशी काडिलें, माथ्याशी माळिलें,
भटां बायलांनी आयावपण भोगिलें गे,
भटां बायलांनी आयावपण भोगिलें.

[गांवांतल्या सगळ्या जातींच्या बायलांक एक एक करून तांच्या मानाप्रमाण म्हणप.]

१ – आयावपण = सवायशिपण.

# ४४. आबोऌेच्या गोंडा भोंवर लब्दला

आबोलेच्या गोंडा भोंवर लब्दला,
तुरो कातविला रे, भोंवरान तुरो कातविला.

दशरथ गांवकार आमचो मावोड्या जाता,
घोडो फिरवला रे, भोंवरान तुरो माळविला.

आबोलेच्या गोंडा भोंवर लब्दला,
तुरो कातविला रे, भोंवरान तुरो कातविला.

शेशी देसाय आमचो मावोड्या जाता,
घोडो फिरविला रे, भोंवरान तुरो माळविला.

[जातीच्या मानाप्रमाण एक एक करून मांडार जमिल्ल्या सगळ्या आयाव बायलांच्या घोवांचीं नांवां घेवप.]

# ४५.    राधा शेजरा क़शी गेली

सोल-मुदी आसतना राधा शेजरा कशी गेली गे,
शेजरा कशी गेली.

मुरळीच्या नादार राधा गोविंदा भुलली गे,
गोविंदा भुलली.

कापड-चोळी आसतना राधा शेजरा कशी गेली गे,
शेजरा कशी गेली.

मुरळीच्या नादार राधा गोविंदा भुलली गे,
गोविंदा भुलली.

शकलें-बिकलें आसतना राधा शेजरा कशी गेली गे,
शेजरा कशी गेली.

मुरळीच्या नादार राधा गोविंदा भुलली गे,
गोविंदा भुलली.

गुळकी-बिळकी आसतना राधा शेजरा कशी गेली गे,
शेजरा कशी गेली.

मुरळीच्या नादार राधा गोविंदा भुलली गे,
गोविंदा भुलली.

सरवय शिंरगार आसतना राधा शेजरा कशी गेली गे,
शेजरा कशी गेली.

मुरळीच्या नादार राधा गोविंदा भुलली गे,
गोविंदा भुलली.

# ४६. राम रामेश्वरा

राम रामेश्वरा रे स्वामी, बसले गरूडावरी गा देवा,
बसले गरूडावरी.

ईश्वर पुसे पार्वतीला, कन्ये कोणा दिवंची केल्या,
देवांनी कन्ये कोणा दिवंची केल्या.

गणेसदेव भायर सरले, कन्येच्या संयवरा
गा देवा, कन्येंचा संयवरा.

राम रामेश्वरा रे स्वामी, बसले गरूडावरी गा देवा,
बसले गरूडावरी.

ईश्वर पुसे पार्वतीला, कन्ये कोणा दिवंची केल्या,
देवांनी कन्ये कोणा दिवंची केल्या.

चंद्रेश्वरदेव भायर सरले, कन्येच्या संयवरा
गा देवा, कन्येचा संयवरा.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ४७. फुल रे चाफ्या

सात दिसां वाटे जायीन सांते[१], हाडीन रोपे चाफ्याचे गे,
हाडीन रोपे चाफ्याचे.

हाडिले रोपे काडिलें लेम[२], रोपे रोयले चाफ्याचे गे,
रोपे रोयले चाफ्याचे.

साकरेचें आळें दुदाचें शिंपणें, साळुबाय तुज्या गे आंगणी,
साळुबाय तुज्या गे आंगणी.

साळुबाय तुज्या गे आंगणी, चाफा रोयीला कोणी गे,
चाफा रोयीला कोणी.

फुल रे चाफ्या, फुल रे चाफ्या ताळीभर, फुल रे चाफ्या,
फुल रे चाफ्या ताळीभर.

खुंट रे पुंडलीक, खुंट रे पुंडलीक झोळीभर,
खुंट रे पुंडलीक, खुंट रे पुंडलीक झोळीभर.

गांत गे लक्ष्मी, गांत गे लक्ष्मी वावळीभर,
गांत गे लक्ष्मी, गांत गे लक्ष्मी वावळीभर.

माळ गो केंसर, माळ गो केंसर माथेंभर,
माळ गो केंसर, माळ गो केंसर माथेंभर.

पळयतलीं आवय-बापूय दोळेभर,
पळयतलीं आवय-बापूय दोळेभर.

[मांडावेल्या सगळ्या चलयांक, तांचे आजेचें, भावाचें आनी आवयचें नांव घेवन म्हणप.]

---

१ – सांते = बाजार.    २ – लेम = नेम

# ४८. म्हाल पणटी, दिवे जळटी

म्हाल पणटी, दिवे जळटी, जोत पडली कोंकणात
गे, जोत पडली कोंकणात.

गांवकार आमचे शेतांत उबे, दिसे पुनवेचे
चंद्र गे, दिसे पुनवेचे चंद्र.

म्हाल पणटी, दिवे जळटी, जोत पडली कोंकणात
गे, जोत पडली कोंकणात.

भट आमचे देवळांत उबे, दिसे पुनवेचे
चंद्र गे, दिसे पुनवेचे चंद्र.

[सगळ्या जातींच्या दादल्यांक म्हणप.]

# ४९. वयलेवाडी सोंसो करड कांती

वयलेवाडी सोंसो करड कांती रे, सोंसो करड कांती.

नाचोणग्या नांव कितें तारागिरी गे सखे, तारागिरी.

गांवकारांल्या दारांमुखार कोंण्या [१]आळी गे सखे,
कोंण्या आळी.

वयलेवाडी सोंसो करड कांती रे, सोंसो करड कांती.

नाचोणग्या नांव कितें तारागिरी गे सखे, तारागिरी.

भटांल्या दारांमुखार कोंण्याआळी गे सखे,
कोंण्या आळी.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

---

१ – कोणो = कोंडो.

## ५०. आयले वांयगिणी, पयले वांयगिणी

आयले वांयगिणी, पयले वांयगिणी,
बांदार तवशिणी रे धालो, बांदार तवशिणी.

गांवकारांले गोठे आमचे भल्ले गाया-म्हशीनीं रे धालो,
भल्ले गाया-म्हशीनीं.

गांवकारांल्यो गवळिणी आमच्यो,
ताक चाळिती रे धालो, लोणी चाळिती.

गांवकाराल्या बायलां आमच्या,
हात भल्ले काची कांकणांनी, हात भल्ले काची कांकणांनी.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

# ५१. देवळा फाटले आवाळे

देवळा फाटले आवाळे, हे शेट बसले साळेक,
हे शेट बसले साळेक.

नेण्टेल्या गांवकारां भुरग्यां आमच्या, घडिले
घुंगुरवाळे गे, घडिले घुंगुरवाळे.

देवळा फाटले आवाळे, हे शेट बसले साळेक,
हे शेट बसले साळेक.

नेण्टेल्या भटां भुरग्यां आमच्या, घडिले
घुंगुरवाळे गे, घडिले घुंगुरवाळे.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

## ५२. चिंचेवयले चानये

चिंचेवयले चानये, चींचं कल्लायत यो,
चींच कल्लायत यो.

घरा आशिल्ले गांवकान्नी आमचे, पालोव झडपीत यो,
पालोव झडपीत यो.

पालोव लागलो दारांतले मोगरेक, मोगरीं खुंटीत यो,
मोगरीं खुंटीत यो.

खुंटून भरिल्ल्यो दालयो, देवार पुजीत यो,
देवार पुजीत यो.

चिंचेवयले चानये, चींच कल्लायत यो,
चींच कल्लायत यो.

घरा आशिल्ले भटणी आमचे, पालोव झडपीत यो,
पालोव झडपीत यो.

पालोव लागलो दारांतले गोंटलेक, गोटलां खुंटीत यो,
गोटलां खुंटीत यो.

खुंटून भरिल्ल्यो दालयो, देवार पुजीत यो,
देवार पुजीत यो.

[सगळ्या जातींच्या बायलांक म्हणप.]

# ५३. धांव रे तेंडलेच्या बेला

इकडेन धांव रे, तिकडेन धांव रे,
तेंडलेच्या बेला, तेंडलेच्या बेला.

गांवकान्नीगेर बाळ जाला,
धांव रे गांवकारा तेला, धांव रे गांवकारा तेला.

हाडलें तेल, वोतलें दिव्यां,
जोत पडली बाळा, जोत पडली बाळा.

बाळाच्या बोमले सकल,
मोतियांचा झेला, मोतियांचा झेला.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

# ५४. खरकस केगदी

खरकस केगदी, खरकस केगदी
थंय शंकर घोटाळला गे धालो, शंकर घोटाळला.

सगळ्या गांवकारांचें गोरूं-तारूं
भारी भुकेलां गे धालो, भारी भुकेलां.

गांवकारां बायलांचे भरतार[१] घरा नायी गे,
राजा भेटूं गेल्या गे, राजा भेटूं गेल्या.

राजान तेंका शेलो दिला,
विस्कटून पळयल्यार आबोल्यांच्या तुरा गे,
मोतियांचा तुरा.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

---

१ – भरतार = घोव, भ्रतार.

# ५५. आदनी दुदनी एकच पान

आदनी दुदनी एकच पान,
सरवय रान आमचें केळी बन रे,
सरवय रान आमचें केळी बन.

केळी पानार बसला कीर,
उत्तम आमचो वीर भायर सल्ला,
उत्तम आमचो वीर भायर सल्ला.

गोंयचे वाटे तापला धुळं,
माघांतले वीर बाडे परतले रे,
माघांतले वीर बाडे परतले.

[जातीच्या मानाप्रमाण गांवांतल्या एकेक जातीच्या दादल्याचें एक एक करून नांव घेवप.]

# ५६. नारी कोणा देसाच्यो

आडव्या खोप्याच्यो, उब्या तिळ्याच्यो,
ह्यो नारी कोणा देसाच्यो, ह्यो नारी कोणा देसाच्यो.

आमी नारी मुंबय देसाच्यो,
दिया दालीभर पाणी गे, दिया दालीभर पाणी.

दसणीच्या मुळांत तळय आसा,
थंय पाणी आसा गे, थंय पाणी आसा.

तळयेच्या उदकांत दसण वळगून पडलां,
तेंवूय पाणीं आमकां नाका गे, तेंवूय पाणी आमकां नाका.

[अशे तरेन पांच गांवांचीं आनी पांच फुलांचीं नांवां घेवन म्हणप.]

आडव्या खोप्याच्यो, उब्या तिळ्याच्यो,
ह्यो नारी कोणा देसाच्यो, ह्यो नारी कोणा देसाच्यो.

आमी नारी आमोणें देसाच्यो,
दिया दालीभर पाणी गे, दिया दालीभर पाणी.

बिबयेच्या मुळांत तळय आसा,
थंय पाणी आसा गे, थंय पाणी आसा.

तळयेच्या उदकांत बिबय वळगून पडलां,
तेंवूय पाणी आमकां जाय गे, तेंवूय पाणी आमकां जाय.

# ५७. बांय बांदिली पाशाणी

बांय बांदिली पाशाणी, तळय बांदिली सोपणी,
बांय बांदिली पाशाणी, तळय बांदिली सोपणी.

उदक काडटल्या बायांनो, तुमच्या खोतांचें[१] नांव काय सांगा हो,
तुमच्या खोतांचें नांव काय सांगा.

खोताचें नांव तेफळूखोत, राणयेचें मोल करून दिया गे,
राणयेचें मोल करून दिया.

राणी राणी दुरपदी राणी, तुळशी घाला पाणी गे,
तुळशी घाला पाणी.

[मांडावेल्या सगळ्या बायलांक म्हणप.]

---

१ – खोतांचें = हांगां हें उतर 'घोवांचें' ह्या अर्थान वापरलां.

## ५८. वज्रथिकांची मुदी

वज्रथिकांची मुदी रे, विनायक तुज्या हाती रे,
विनायक तुज्या हाती रे.

कुंकळकारांची लेक रे ही, हातांनी फोफळ फोडी रे,
हातांनी फोफळ फोडी रे.

वज्रथिकांची मुदी रे, रामदास तुज्या हाती रे,
रामदास तुज्या हाती रे.

अवेडकारांची लेक रे ही, हातांनी फोफळ फोडी रे,
हातांनी फोफळ फोडी रे.

[एक एक करून मांडार जमिल्ल्या सगळ्या बायलांच्या घोवांचीं आनी कुळारचीं नांवां घेवप.]

# ५९. आकळी काय कुकळी

आकळी काय कुकळी काय,
तांदूळ काणू[१] विसल्ली, तांदूळ काणू विसल्ली.

अंबिकेक घोवान हाडलेली पुतळी,
बरी रसीम दोऱ्याक गुंतली, सद्दां गळ्यां घातली.

आकळी काय कुकळी काय,
तांदूळ काणू विसल्ली, तांदूळ काणू विसल्ली.

चंद्रिकेक घोवान हाडलेली पुतळी,
बरी रसीम दोऱ्याक गुंतली, सद्दां गळ्यां घातली.

[सगळ्या बायलांचीं नांवां घेवन म्हणप.]

---

१ – काणू = कांडू

## ६०. सुंदरशें रान बाये

सुंदरशें रान बाये आंकरीचें,
सुंदरशें रान बाये आंकरीचें.

खुंटीमायेक जेवण रांदलां साकरीचें,
खुंटीमायेक जेवण रांदलां साकरीचें.

सुंदरशें रान बाये आंकरीचें,
सुंदरशें रान बाये आंकरीचें.

धर्तरीमायेक जेवण रांदलां साकरीचें,
धर्तरीमायेक जेवण रांदलां साकरीचें.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ६१. चामाराच्या मुली,
# जोत्यां लाय फुली

चामाराच्या मुली, जोत्यां लाय फुली,
शाण्यान चाल केला, मध्यान पारा.

शाणो न्ही रे शाण्या, अशोक न्ही रे शाण्या,
पयल्या गांवभयणी पेडण्या दिल्या रे,
पयल्या गांव भयणी पेडण्या दिल्या.

पेडण्या दिल्लेक हाडली चित्रंगी साडी, भावोजे सोपकार केला,
भाव-भयण बोलतां रात जाली रे,
भाव-भयण बोलतां रात जाली.

[लग्न जावन परगांवा गेल्ल्या गांवच्या धुवांक उद्देशून म्हणप.]

# ६२. उंच उंच दोंगरी

उंच उंच दोंगरी, म्हायला रूख,
ते कोणी हाणले[१] जाण्ट्यांनी रे,
ते कोणी हाणले जाण्ट्यांनी.

नेण्ट्या जाण्ट्या गांवकारा आमच्या वीरा,
खामल्यो पावल्यो देवलोका रे,
खामल्यो पावल्यो देवलोका.

देवलोका वाटे कोण मत्त करी,
देरभार्या सरनार उबी रावली गे,
देरभार्या सरनार उबी रावली.

देरभार्यांनी केला अळंकार,
नान भरतार, भला गौरीचा गे,
नान भरतार भला गौरीचा.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

१ – हाणले = कापले.

# ६३. तुज्या दुर्गार रोयीन

बरे हाते हाडीन, तुज्या दुर्गार रोयीन,
तुज्या दुर्गार रोयीन.

बरे हाते काडीन, म्हाज्या दुर्गा भायर वडयन,
म्हाज्या दुर्गा भायर वडयन.

बरे मदन हाडीन, तुज्या दुर्गार रोयीन,
तुज्या दुर्गार रोयीन.

बरे मदन काडीन, म्हाज्या दुर्गा भायर वडयन,
म्हाज्या दुर्गा भायर वडयन.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

## ६४. भाचो फुलां रोयतालो

मळणीच्या मळ्यामदे, भाचो दसण रोयतालो,
भाचो पात रोयतालो.

हातिशी घागर, मस्तकी चुंबळ, मळण मळे शिंपताली,
मळण मळे शिंपताली.

मळणीच्या मळ्यामदे, भाचो गुलाब रोयतालो,
भाचो शेवतीं रोयतालो.

हातिशी घागर, मस्तकी चुंबळ, मळण मळे शिंपताली,
मळण मळे शिंपताली.

[पांच फावट म्हणप.]

# ६५. समुद्राचे तिरी, विष्णु माती काणी

समुद्राचे तिरी, हो विष्णु माती काणी[१] गे,
हो विष्णु माती काणी.

ब्रह्मा मुर्ती घडी गे, ही श्री गणेसाची गे,
ही श्री गणेसाची गे.

काडिलें कमळावरती गे, हें फुगिल्लें पोट गे,
हें फुगिल्लें पोट गे.

गवरीचा[२] बाळ गे, हो आपुण म्हणे ल्हान गे,
हो आपुण म्हणे ल्हान.

गवरीच्या पुत्रा, तुजें पोट कशें मोटें,
हें पोट कशें मोटें.

नेवऱ्यो खावन जालें मोटें,
हें नेवऱ्यो खावन जालें मोटें.

---

१ – काणी = कांडी.
२ – गवरीचा = गौरीचा.

# ६६. शेंवकां बाये शेंवकां

शेंवकां बाये शेंवकां गे,
तांबड्या माडाचीं शेंवकां.

आमोणें गांवची पांचय देवता,
ती आली धावता गे, तेंका सुंवारता.

[पांच फावट म्हणप.]

# ६७. पर्वता दोंगरा जावूं

पर्वता दोंगरा जावूं गे, आमी समय-दिवे लावूं गे,
समय-दिवे लावूं.

उंच दोंगरा जावूं गे, आमी पिकीं पेरां खावूं गे,
पिकीं पेरां खावूं.

खाता खाता भावोजी आले, आता कोठे जावूं गे,
आता कोठे जावूं.

[पांच फावट म्हणप.]

# ६८. हेंगटें बैला

हेंगटें बैला,- शेंगटें हालय रे.
गांवकारां चेड्यांनो, घोणगी[१] व्हावय रे.

हेंगटें बैला, शेंगटें हालय रे.
भटां चेडांनो[२], घोणगी व्हावय रे.

[सगळ्या जातींक म्हणप.]

---

१ – घोणगी = घोणी.

२ – चेडांनो = चेड्यांनो, चल्यांनो. भट समाजांत चल्याक ‘चेड’ म्हणपाची चाल आसा.

# ६९. कृष्णान खेळ मांडिला

मुंबयच्च्या पाटार रे, कृष्णान खेळ रे मांडिला,
कृष्णान खेळ रे मांडिला.

पायांचा जनरीवाळो रे, कृष्णान थंयच रे हारयला,
कृष्णान थंयच रे हारयला.

सांखळेच्च्या पाटार रे, कृष्णान खेळ रे मांडिला,
कृष्णान खेळ रे मांडिला.

हाताची बावकुरी रे, कृष्णान थंयच रे हारयल्या,
कृष्णान थंयच रे हारयल्या.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ७०. सवाशिणी बायलो कांदळां खुंटूं गेल्यो

सवाशिणी बायलो आमी कांदळां खुंटूं गेल्यो गे,
आमी कांदळां खुंटूं गेल्यो.

होटींत कांदळां, हातांत कांदळां,
आमी भांग नेटीन आयल्यो गे, भांग नेटीत आयल्यो.

भांग असो नेटून आमी भरयाले खोपे गे,
आमी कांदळां खुंटून भरयाल्यो होटी.

होटींत कांदळां, हातांत कांदळां,
आमी झेले गुंतीत आयल्यो गे, झेले गुंतीत आयल्यो.

[पांच फावट म्हणप.]

# ७१. शीं खाता भोव, चावूल दिना घोव

शीं खाता भोव, चावूल दिना घोव,
शीं खाता भोव, चावूल दिना घोव.

काडा काडा पेटयेचें चावूल गे, तेंवूय न्हेसूं दिया गे,
तेंवूय न्हेसूं दिया.

तेंवूय न्हेसूं दिया गे, भागरती बाये गे,
रात जाली गे.

भागरती बायेचो भरतार कोपला गे,
उश्याची म्हाणाय[१] काडून धोपटा गे.

[सगळ्या बायलांक म्हणप.]

---

१ – म्हाणाय = पाट

# ७२. कांकणकारा- वळारा

कांकणकारा वळारा, तुजी बायल गेली कुळारा,
तुजी बायल गेली कुळारा.

वचूंनी तिका, वचूंनी तिका, तांबडी साडी न्हेसूंनी तिका,
तांबडी साडी न्हेसूंनी.

तांबडे साडयेच्यो लांब मिरयो, चक्क चोळयो,
चक्क चोळयो.

साडये आशिल्ली काडी, भिजली तिची साडी,
भिजली तिची साडी.

[पांच फावट म्हणप.]

# ७३. सरवय आंगाशी काडिले गंद

सरवय आंगाशी काडिले गंद,
सरवय आंगाशी काडिले गंद.

धंया-दुदाने भरिली वाटी,
आवड झाली मोटी रे कृष्णा, आवड झाली मोटी.

[पांच फावट म्हणप.]

# ७४. बाज्जेर बाज, फुलांची शेज

बाज्जेर बाज, फुलांची शेज, बाज्जेर कोण पहुडला गे,
बाज्जेर कोण पहुडला.

बाज्जेर पहुडला चंद्रुराजा, वारो कोणी घाली गे,
वारो कोणी घाली.

बाज्जेर पहुडला चंद्रुराजा, भागरथी राणी वारो घाली गे,
भागरथी राणी वारो घाली.

[मांडार जमिल्ल्या सगळ्या बायलांक म्हणप.]

# ७५. न्हंयचे देगेर, बांयचे देगेर

न्हंयचे देगेर, बांयचे देगेर,
रोजां रोजां गे, रोजां रोजां गे.

यशोदीबाय कापड न्हेसल्या,
देगां देगां गे, देगां देगां गे.

[सगळ्या बायलांक म्हणप.]

# ७६. बरी नागवेली, बरी पानवेली

भटांच्या मुला गा, हे पानवेली खोरीं हाडी गा,
हे पानवेली खोरीं हाडी.

भटांचे मुली गे, हे पानवेली लेम काडी गे,
हे पानवेली लेम काडी.

भटांच्या मुला गा, हे पानवेली रोपो रोयी गा,
हे पानवेली रोपो रोयी.

भटांचे मुली गे, हे पानवेली शिंपणे लायी गे,
हे पानवेली शिंपणें लायी.

भटांच्या मुला गा, हे पानवेली धाकां हाडी गा,
हे पानवेली धाकां हाडी.

भटांचे मुली गे, हे पानवेली धाकां लायी गे,
हे पानवेली धाकां लायी.

भटांच्या मुला गा, ही पानवेल वयर चडय गा,
ही पानवेल वयर चडय.

भटांचे मुली गे, हे पानवेली सारें घाली गे,
हे पानवेली सारें घाली.

भटांच्या मुला गा, हे पानवेली पानां खुंटी गा,
हे पानवेली पानां खुंटी.

भटांचे मुली गे, हे पानवेली पानां मेजी गे,
हे पानवेली पानां मेजी.

भटांच्या मुला गा, हे पानवेली चुडयो बांदी गा,
हे पानवेली चुडयो बांदी.

भटांचे मुली गे, हे पानवेली विक्री करी गे,
हे पानवेली विक्री करी.

पांच पानांचा विडा सुनेन मोडिला,
बरी नागवेली, बरी पानवेली.

चुनो नी लायी तिचो मांव गे,
बरी नागवेली, बरी पानवेली.

सुपारी नी लायी तिची मांय गे,
बरी नागवेली, बरी पानवेली.

कात नी लायी तिचो घोव गे,
बरी नागवेली, बरी पानवेली.

लवंग नी लायी तिची नणंद गे,
बरी नागवेली, बरी पानवेली.

वेळची नी लायी तिची जाव गे,
बरी नागवेली, बरी पानवेली.

विडा ठेयिला जल्मी देवा तारी गे,
विडा ठेयिला जल्मी देवा तारी.

विडा ग्रासीला तेणी मुखी गे,
विडा ग्रासीला तेणी मुखी.

पीक टाकिली तळपावरी गे,
पीक टाकिली तळपावरी.

[पांच देवांक म्हणप.]

# ७७. धरम ल्येक दिया गे

हजारान खाणी घेया गे,
आमकां धरम ल्येक[१] दिया गे.

हजारान खाणी नाका गे,
आमी धरम ल्येक दिना गे.

पांचश्यान खाणी घेया गे,
आमकां धरम ल्येक दिया गे.

पांचश्यान खाणी नाका गे,
आमी धरम ल्येक दिना गे.

शेकड्यान खाणी घेया गे,
आमकां धरम ल्येक दिया गे.

शेकड्यान खाणी नाका गे,
आमी धरम ल्येक दिना गे.

[अशेतरेन 'वीसांन', 'आण्यान', 'पयश्यान', 'अर्द-पयश्यान' अशें मोल देंवयत म्हणप.]

---

१ – ल्येक = लेक, धूव, चली.

पयेन खाणी घेया गे,
आमकां धरम ल्येक दिया गे.

पयेन खाणी नाका गे,
आमी भाच्याक ल्येक दिता गे.

# ७८. आमी लेक दिली

आयक आयक रे मळावेल्या कुमया,
आमी लेक दिली भाच्या न्ही रे धोलया.

आयक आयक रे मळावेल्या तुम्या,
आमी लेक दिली मांवा न्ही रे धुम्या.

आयक आयक गो मळावेल्या कड्डा,
आमी लेक दिली मांयक न्ही गो बुड्डा.

आयक आयक गे मळावेले केळी,
आमी लेक दिली कलावती येणी.

आयक आयक गे मळावेले कांगलिणी,
आमी लेक दिली नणंदे न्ही गे जगलिणी.

[नात्यांतल्या सगळ्यांक म्हणप.]

# ७९. येया येया येणी बायांनो

येया येया येणी बायांनो, पात्शें चाखूंक गे,
येया येया येणी बायांनो, पात्शें चाखूंक गे.

कसलें कसलें पात्शें तुमी रांदिलां गे,
कसलें कसलें पात्शें तुमी रांदिलां गे.

हेंवाळे घालून शेंवाळे घालून रांदिलां गे,
हेंवाळे घालून शेंवाळे घालून रांदिलां गे.

तेंवूय वाडा तुमच्या घोवां-देरांक गे,
तेंवूय वाडा तुमच्या घोवां-देरांक गे.

येया येया येणी बायांनो, पात्शें चाखूंक गे,
येया येया येणी बायांनो, पात्शें चाखूंक गे.

कसलें कसलें पात्शें तुमी रांदिलां गे,
कसलें कसलें पात्शें तुमी रांदिलां गे.

बेबे घालून शेबे घालून रांदिलां गे,
बेबे घालून शेबे घालून रांदिलां गे.

तेंवूय वाडा तुमच्या भुरग्यां-बाळांक गे,
तेंवूय वाडा तुमच्या भुरग्यां-बाळांक गे.

येया येया येणी बायांनो, पात्शें चाखूंक गे,
येया येया येणी बायांनो, पात्शें चाखूंक गे.

कसलें कसलें पात्शें तुमी रांदिलां गे,
कसलें कसलें पात्शें तुमी रांदिलां गे.

हांडे घालून दांडे घालून रांदिलां गे,
हांडे घालून दांडे घालून रांदिलां गे.

तेंवूय वाडा तुमच्या मांय-मावाक गे,
तेंवूय वाडा तुमच्या मांय-मावाक गे.

[अशेतरेन जाय तितकें गीत वाडवूंक येता.]

# ८०. बायेली पात फुल्ल्या बांयकडेन

बायेली पात फुल्ल्या बांयकडेन,
बायेक आपोवंक धाड, बायेक बोलावंक धाड.

खाणीभर भाताचो एकूच कर गे घाणो,
ते वेळे चल सुने मायेरा, ते वेळे चल सुने मायेरा.

खाणीभर भाताचें काणप करीत तुज्यो नणंद-जावो,
यो तूं लेकी म्हाजे मायेरा, यो तूं लेकी म्हाजे मायेरा.

बायेली पात फुल्ल्या बांयकडेन,
बायेक आपोवंक धाड, बायेक बोलावंक धाड.

गोठेभर गोरवांक उदक दिवंचें उल्लां,
ते वेळे चल सुने मायेरा, ते वेळे चल सुने मायेरा.

गोठेभर गोरवांक उदक दीत तुज्यो नणंद-जावो,
यो तूं लेकी म्हाजे मायेरा, यो तूं लेकी म्हाजे मायेरा.

बायेली पात फुल्ल्या बांयकडेन,
बायेक आपोवंक धाड, बायेक बोलावंक धाड.

चुलीकडलें भाणशिरें न्हेस गे सुने,
ते वेळे चल सुने मायेरा, ते वेळे चल सुने मायेरा.

चुलीकडलें भाणशिरें, न्हेस तुजें पाटोळें,
यो तूं लेकी म्हाजे मायेरा, यो तूं लेकी म्हाजे मायेरा.

# ८१. तोर अशी रोयली

बुद्दी अश्यो केल्यो रामाय शोव गे शोव,
बुद्दी अश्यो केल्यो रामाय शोव गे शोव.

गांवकार असो सांगूक भोंवता रामाय शोव गे शोव,
गांवकार असो सांगूक भोंवता रामाय शोव गे शोव.

मांडार एक अशे जाले रामाय शोव गे शोव,
मांडार एक अशे जाले रामाय शोव गे शोव.

आज रान अशें पळोवंक या म्हण्टा रामाय शोव गे शोव.
आज रान अशें पळोवंक या म्हण्टा रामाय शोव गे शोव.

कोयत्यो-कुराडी पाजल्यो अश्यो रामाय शोव गे शोव,
कोयत्यो-कुराडी पाजल्यो अश्यो रामाय शोव गे शोव.

भायर अशे सल्ले रामाय शोव गे शोव,
भायर अशे सल्ले रामाय शोव गे शोव.

जागो असो पळयलो रामाय शोव गे शोव,
जागो असो पळयलो रामाय शोव गे शोव.

कामत अशें माल्लें रामाय शोव गे शोव,
कामत अशें माल्लें रामाय शोव गे शोव.

उजो असो घातलो रामाय शोव गे शोव,
उजो असो घातलो रामाय शोव गे शोव.

कामत लासून अशें जालें रामाय शोव गे शोव,
कामत लासून अशें जालें रामाय शोव गे शोव.

कोसूं अशे लागले रामाय शोव गे शोव,
कोसूं अशे लागले रामाय शोव गे शोव.

तोर अशी पेरली रामाय शोव गे शोव,
तोर अशी पेरली रामाय शोव गे शोव.

किल्लून अशी आयली रामाय शोव गे शोव,
किल्लून अशी आयली रामाय शोव गे शोव.

तोर नडून अशी जाली रामाय शोव गे शोव,
तोर नडून अशी जाली रामाय शोव गे शोव.

सारें अशें घातलें रामाय शोव गे शोव,
सारें अशें घातलें रामाय शोव गे शोव.

तोर वाडूंक अशी लागली रामाय शोव गे शोव,
तोर वाडूंक अशी लागली रामाय शोव गे शोव.

तोर पसवूं अशी लागली रामाय शोव गे शोव,
तोर पसवूं अशी लागली रामाय शोव गे शोव.

तोर पिकूं अशी लागली रामाय शोव गे शोव,
तोर पिकूं अशी लागली रामाय शोव गे शोव.

तोर पळोवंक अशे गेले रामाय शोव गे शोव,
तोर पळोवंक अशे गेले रामाय शोव गे शोव.

तोर कापया अशें म्हण्टलें रामाय शोव गे शोव,
तोर कापया अशें म्हण्टलें रामाय शोव गे शोव.

विळे अशे पाजले रामाय शोव गे शोव,
विळे अशे पाजले रामाय शोव गे शोव.

खळ अशें काडलें रामाय शोव गे शोव,
खळ अशें काडलें रामाय शोव गे शोव.

बायलो अश्यो सांगल्यो रामाय शोव गे शोव,
बायलो अश्यो सांगल्यो रामाय शोव गे शोव.

कापूं अशे लागले रामाय शोव गे शोव,
कापूं अशे लागले रामाय शोव गे शोव.

भोरे अशे बांदले रामाय शोव गे शोव,
भोरे अशे बांदले रामाय शोव गे शोव.

खळार अशी हाडली रामाय शोव गे शोव,
खळार अशी हाडली रामाय शोव गे शोव.

मळूं अशे लागले रामाय शोव गे शोव,
मळूं अशे लागले रामाय शोव गे शोव,

तोरी अशें वारें दिलें रामाय शोव गे शोव,
तोरी अशें वारें दिलें रामाय शोव गे शोव.

तोर अशी साकां भल्ली रामाय शोव गे शोव,
तोर अशी साकां भल्ली रामाय शोव गे शोव.

तोर अशी मांडार हाडली रामाय शोव गे शोव,
तोर अशी मांडार हाडली रामाय शोव गे शोव.

तोर अशी उकडूं घातली रामाय शोव गे शोव,
तोर अशी उकडूं घातली रामाय शोव गे शोव.

तोर अशी काणून हाडली रामाय शोव गे शोव,
तोर अशी काणून हाडली रामाय शोव गे शोव.

वांटे अशे केले रामाय शोव गे शोव,
वांटे अशे केले रामाय शोव गे शोव.

गांवकारा असो वांटो दिलो रामाय शोव गे शोव,
गांवकारा असो वांटो दिलो रामाय शोव गे शोव.

— — — — — — — — — — — — — — —
— — — — — — — — — — — — — — —
— — — — — — — — — — — — — — —

सर्वय लोकांक असो वांटो दिलो रामाय शोव गे शोव,
सर्वय लोकांक असो वांटो दिलो रामाय शोव गे शोव.

# ८२. रोयली जिरें – कोथंबिरी

आज गांवकार रान पळोवंक या म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

रान पळोवन आयले गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोयत्यो-कुराडी पाजया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोयत्यो-कुराडी पाजून जाल्यो गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

सगळे एक जावन मार्गा चलो लागया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

सगळे एक जावन राना पावले गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कामत मारून राना उजो घालया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कामत मारून राना उजो घातलो गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

गांवकाराक पयलीं जमनीक घावो घाल म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

गांवकारान पयलीं जमनीक घावो घालो म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

जागो तयार करया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

जागो तयार केलो गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर अशी पेरया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर पेरून जाली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर किल्लून येतली म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर नडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर नडून जाली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर पोटरा येतली म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर पोटरा आयली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर पिकूं लागली म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर पिकून जाली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर लिवूं लागया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर लिवून जाली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिरी भोरे बांदून खळार हाडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिरी भोरे बांदून खळार हाडले गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर मळूं लागया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

कोथंबिर मळून जाली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

वारें दिवन साक भरूं लागया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

वारें दिवन साक भरून जाले गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

साक कशे व्हरचे म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

बैलांचेर घोणी घालया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ते बैल वाटेर बसतले म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

आमकां बैलांगाडो जाय म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

तो बैलांगाडो वाटेर मोडटलो म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

आमकां पिकअप जाय म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती पिकअप दिली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती कोथंबीर खंयचे वाटेन हाडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती कोथंबिर मडगांवचे वाटेन हाडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती पाड्डेच्या पोस्तार आडायतली म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

[आपल्याक जाय त्या गांवांची नांवां घेवप. तश्योच कितेंय आडखळी सांगप.]

ती कोथंबीर सावड्डेच्या वार्टेन हाडली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती हाडून कोणागेर दवरया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती शशीगेर दवरया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती चंद्रावती सगळी घरां भरतली म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

[गांवांतल्या दर एका घरांतल्या घरकाराचें आनी ताचे घरकान्नीचें नांव घेवप. निमाणें कोथंबिर मांडार हाडप.]

ती कोथंबिर मांडार पावली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती कोथंबिर मेजूं कोणा हाडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती चंद्रू मेजूं हाडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

तो काश्टे भरतलो म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

[दर घरांतल्या घरकाराचें नांव घेवप.]

ती वर्सकारा मेजूं हाडया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती वर्सकारान मेजली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती गांवकारां मेजून दिवया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती गांवकारां मेजून दिली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

[एक एक करून सगळ्यां जातींक म्हणप. प्रत्येक घराक वेग-वेगळें म्हटल्यारय जाता.]

ती सगळ्या गांवच्या लोकांक मेजून दिवया म्हण्टा गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

ती सगळ्या गांवच्या लोकांक मेजून दिली गे भोवाळे,
जिरें-कोथंबिरी, जिरें-कोथंबिरी.

# १. रेग बांदीन

एक रेग बांदीन गे,
गणेसा देवा भेटे धाडीन गे.

दोन रेगो बांदीन गे,
चंद्रेश्वरा देवा भेटे धाडीन गे.

तीन रेगो बांदीन गे,
भूतनाथा देवा भेटे धाडीन गे.

चार रेगो बांदीन गे,
जलम्या देवा भेटे धाडीन गे.

पांच रेगो बांदीन गे,
खुंटये माये भेटे धाडीन गे.

सव रेगो बांदीन गे,
ब्रह्म्या देवा भेटे धाडीन गे.

सात रेगो बांदीन गे,
सरवय देवां भेटे धाडीन गे.

## २. हळ्डुवी वाटिली

हळ्डुवी वाटिली
पोवुल्यो भरिल्यो
चंग परमळ घेया गे
नारी खेळाल्यो
नारी मेळाल्यो.

[पांच फावट म्हणप.]

## ३. वच वचा कनकांनो

वच वचा कनकांनो
देवाच्या रंभांनो
हो हरीचा चेंडू तुमी हुपा गे
हो हरीचा चेंडू तुमी हुपा.

वच वचा कनकांनो
देवाच्या रंभांनो
हो हरीचा चेंडू आमी हुपूं गे
हो हरीचा चेंडू आमी हुपूं.

# ४. भंडर घेया हो नारी

एक भंडर घेया हो नारी,
एक भंडर घेया हो नारी.

एक भंडर नप्रो हो नारी,
एक भंडर नप्रो हो नारी.

दोन भंडर घेया हो नारी,
दोन भंडर घेया हो नारी.

दोन भंडर नप्रो हो नारी,
दोन भंडर नप्रो हो नारी.

तीन भंडर घेया हो नारी,
तीन भंडर घेया हो नारी.

तीन भंडर नप्रो हो नारी,
तीन भंडर नप्रो हो नारी.

चार भंडर घेया हो नारी,
चार भंडर घेया हो नारी.

चार भंडर नप्रो हो नारी,
चार भंडर नप्रो हो नारी.

पांच भंडर घेया हो नारी,
पांच भंडर घेया हो नारी.

पांच भंडर नप्रो हो नारी,
पांच भंडर नप्रो हो नारी.

आमच्यो नारी आमी केल्यो हुमऱ्यो,
तुमच्यो नारी तुमी करा सुमऱ्यो.

आमच्यो नारी आमी केल्यो सुमऱ्यो,
तुमच्यो नारी तुमी करा हुमऱ्यो.

[जागो बदलप.]

# १. व्हडली म्हण गे आपण

व्हडली म्हण गे आपण, व्हडली म्हण गे आपण,
कन्या गे बासींगाची, बहुतर मानाची, पहिल्या विड्याची.

धाकटी म्हण गे आपण, धाकटी म्हण गे आपण,
कशाने उणी? घर-दार साजरा केला कशाने उणी?

[पांच फावट म्हणप.]

कोटब्यांतली पेज आळवणी, [१]
धाकटी बायल चाळवणी.

कोटब्यांतली पेज आळवणी,
व्हडली बायल चाळवणी.

कोटब्यांतली पेज सायेची,
धाकटी बायल मायेची.

कोटब्यांतली पेज सायेची,
व्हडली बायल मायेची.

---

१ – आळवणी = अळणी.

## २.  चरणपती घरां आले

एक गे मास झाला, चरणपती घरा आले,
रात-दीस भांडटा सये किरकिरे झाले.

दोन गे म्हयने झाले, कृष्णनाथ घरा आले,
रात-दीस भांडटा सये किरकिरे झाले.

[पांच फावट म्हणप.]

# ३. अणसां काय धोणसां

अणसां काय धोणसां बाये,
दोडक्याचीं धोणसां !

आमच्यो भावजो बरपिणी,
आमच्यो नणंदो तिरपिणी.

कांटमुयेच्च्या झुंजा यो गे,
रामरामय्यो ! तिमातिमय्यो !

येवलाच्च्या झुंजा यो गे,
रामरामय्यो ! तिमातिमय्यो !

माजराच्च्या झुंजा यो गे,
रामरामय्यो ! तिमातिमय्यो !

[आपल्याक जाय त्या जीव-जनावरांचीं नांवां घेवप.]

## ४. आमच्या व्होटये बेडे गो

आमच्या व्होटये बेडे गो,
तुमकां घेवन गेले चेडे गो, तुमकां घेवन गेले चेडे.

आमच्या व्होटये गोटे गो,
तुमकां घेवन गेले थोटे गो, तुमकां घेवन गेले थोटे.

आमच्या व्होटये पटींग गो,
तुमकां घेवन गेले फटींग गो, तुमकां घेवन गेले फटींग.

आमच्या व्होटये पोळे गो,
तुमकां घेवन गेले देळे गो, तुमकां घेवन गेले देळे.

आमच्या व्होटये फोव गो,
तुमकां घेवन गेले घोव गो, तुमकां घेवन गेले घोव.

[अशेतरेन जाय तितकें गीत वाडवूंक येता.]

# १. आयल्यो गे रंभाबायो

आयल्यो गे रंभाबायो,
झंपांनी खेळू,
झंपांनी खेळू.

दाद गेला बोणकी तळा,
शिंपल्यांनीं खेळू,
शिंपल्यांनीं खेळूं.

फुगडा फू! फुगडा फू!

# २. इल्ली इल्ली दिवली

इल्ली इल्ली दिवली, कांसारान पेटली,
कांसारान पेटली.

थंय भेटल्यो त्यो रंभाबायो,
रंभाबायो.

फुगडा फू! फुगडा फू!

रंभांची फुगडी अवघड भारी,
अवघड भारी.

फुगडा फू! फुगडा फू!

# १.  आज मोर खंय खंय ?

आज मोर खंय खंय ?
सवर्ण[१] पिकलां थंय थंय !

आज मोराची कळपुटी
शिक्या बांदल्या नळकुटी !

आज मोराक खातलो !
खायना कित्याक पापया ?

पारदियाचे बंदुके सोनेरी गुळे,
पारदी मेणे भायर सल्ले खोटे वेळे !

आज मोर हिरी,
हागलो बामणाल्या खिरी !

आज मोर कात्रां,
हागलो बामणाल्या धोत्रां !

आज मोर चोण्णां,
हागलो बामणाल्या फोण्णां !

आज मोराक खातलो !
खायना कित्याक पापया ?

---

१ – सवर्ण = सुवर्ण, भांगर.

पारदियाचे बंदुके सोनेरी गुळे,
पारदी मेणे भायर सल्लें खोटे वेळे.

आरे मोरा गोमेरा,
पिलां साणून[२] आयलो घरा!

– – – – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – – – –

आत्ता मोराक खातलो!
आत्ता मोराक खा ऽ ऽ ऽ लो!

२ – साणून = सांडून.

# २. घोणचें पील

हांगा आसा म्हाजें घोणचें पील !
हांगा ना तुजें घोणचें पील !

हांगाच आसा म्हाजें घोणचें पील,
सुपा तळा धाकलेलें !

कोणें गो राणलान देखलेलें ?
वण्टी वयल्यान गेलेलें !

हांगाच आसा म्हाजें घोणचें पील !
हांगा ना तुजें घोणचें पील !

हें पळय म्हाजें घोणचें पील !
हेंच म्हाजें घोणचें पील !

## ३. दात्याची ओवी

पहिली म्हाजी ओवी[१] गे
घाटार पडे पावस
कोंकणी आला लोंढा
भिजला रसीम गोंडा
ऐक गा मृत्य लोका
चंद्रेश्वरा तूं देवा म्हाज्या.

दुसरी म्हाजी ओवी गे
खुंटये गे माये म्हाजे
पर्वता दोंगरांत
तळपी आले तीर्थ
समरथ तेची बुद्ध
चंद्रनाथा तूं देवा म्हाज्या.

पाटाचे बायी पाणी
आले ते म्हाज्या आंगणी
पांयशे धू गे बामणी
खुंटये गे माये म्हाजे.

आमोण्या म्हाज्या गांवा
कन्या भाग्याला पडला फूंक
सांभाळ तुजा लोक
जल्म्या तूं देवा म्हाज्या.

---

१ – ओवी = होंवी

पाटाचे बायी पाणी
आले ते म्हाज्या कोटा
पांयशे धू गा भटा
खुंटये गे माये म्हाजे.

सुर्या गा नारायणा
आमोण्या म्हाज्या गांवा
पेरिलां वांयगण
दुट्टी गे पंयजण[२]
खुंटये गे माये म्हाजे.

जल्म्या तूं देवा म्हाज्या
खुंटये गे माये पालखी
दोगांनी बापडीं चालती
आपल्या गा शिंवरांत.

गीर गीर सयै!

२ – पंयजण = पैंजण

# ४. - आदनी दुदनी

आदनी दुदनी
शिंपयालो,
चोरां मड्यार
घालयालो.

शिप्प ! शिप्प ! शिप्प !

कासाक (शिकारेक) वतना :

## ५. भट भटीण

भट भटीण
दोगां जाणां
काशे वयता
तिगां जाणां
काशेचें पेटूल म्हाजें,
कोणी नेले ?

## ६. व्रयल्या रानां

वयल्या रानां
पिसय गेल्या,
सकल्या रानां
सोंसो गेला,
तोंपून मारतलें
मामालें चेडू हाडून
व्हनी करतलें !

पिस्सय ढा !
पिस्सय ढा !

बलांव[1] नाचयतना :

## ७. पारदी चालती

पारदी चालती, मुंडासे हालती,
ते फुडे पालखी जल्मीदेवाची.

पारदी चालती, मुंडासे हालती,
ते फुडे पालखी, खुंटीमायेची.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

१ – बलांव = एक प्रकारचें व्होडें.

## ८. आलेसा ताण रे व्होडें

आलेसा ताण रे व्होडें,
हांव सायबा भुरगो म्हुगा !

आलेसा जेवपा यो रे,
हांव सायबा जाण्टो म्हुगा !

# ९. आमोणेची खळी

आमोणेची खळी रे,
अशीर ! अशीर !
बलांव धरना,
कुशीर ! कुशीर !

ऐसा ! ऐसा !

## १०. तान लाडू, भूक लाडू

तान लाडू, भूक लाडू
बांदले शेल्याचे पदरी
चाल केला नगरी
काय गिरीजे तिरी !

गिरीजे पेल्यान कोण गांव
शार काय बाजार ?
आमकां लागली गरज
काय बाशींगाची !

बाशींगाचे बाशींगपोड
दोनींय कुशींनी किरां-मोरां
हें बाशींग जाय रघुनाथा
काय पांच दिसां !

# १. सावकू बावकुल्यो

सावकू बावकुल्यो
चौगी मेळाल्यो
एक नार पाणया गेल्या
हात भरले घुलांनी
गोंयचे घुलघुले
भावाचे भयणुले
भावा घरचे आठ गुणे
मावळ्या घरचे आठ गुणे
सोळाय गुणे भुंय दवरात
भागरती बाये फुलां माळात
भागरती बायेचे भाव म्हणजे
भाटीकार चौगुले
आमचे बरोबर खेळटा गडये
दिमी घाल गे.

[मांडार जमिल्ल्या सगळ्या सवायशिण बायलांक म्हणप आनी एक एक करून तांकां मांडार दिमी घालपाक लावप. उपरांत जशी दिमी घाल्ली तशीच एक एकटेक काडपाक लावप.]

सावकु बावकुल्यो
चौगी मेळाल्यो
एक नार पाणया गेल्या
हात भरले घुलांनी.
गोंयचे घुलघुले

भावाचे भयणुले
भावा घरचे आठ गुणे
मावळ्या घरचे आठ गुणे
सोळाय गुणे भुंय दवरात
भागरती बाये फुलां माळात
भागरती बायेचे भाव म्हणजे
भाटीकार चौगुले
भाटीकारांचें लेकरू भांगर
हाय हाय सोनसाय
सोनपेटिलां सोनपेटिलां
भागरती बायेचे चोळये
आमचे बरोबर खेळटा गडये
दिमी काड गे!

## २. शेण कालयतां

शेण कालयतां,
शेण कालयतां
शेणां पडला किडा रे धालो
शेणां पडला किडा.

धालांच्या माथ्यार
शेणाच्या काला
आयच्यान धालो सोंपोवया रे
आयच्यान धालो सोंपोवया.

# ३. आयच्यान धालो सोंपोवया

आमी गांवकारांच्यो लेकी गे,
आमी सद्दां सद्दां येताल्यो,
एकमेकां उलो साद घालताल्यो.

आमची भटांच्यो लेकी गे,
आमी सद्दां सद्दां येताल्यो,
एकमेकां उलो साद घालताल्यो.

– – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – –
– – – – – – – – – – – – –

आमी मडवळांच्यो लेकी गे,
आमी सद्दां सद्दां येताल्यो,
एकमेकां उलो साद घालताल्यो.

आमी आयच्यान धालो सोंपोवया गे,
आमी आयच्यान धालो सोंपोवया.

[एकमेकांचो 'खेम-गळो' घेवप.]

# १. कानप्यार बसोलां

दुमयानबाय कानप्यार बसोलां,
दुमयानबाय कानप्यार बसोलां.

दुमयानबाय वारो गो घालीता,
दुमयानबाय वारो गो घालीता.

रोजालीनबाय कानप्यार बसोलां,
रोजालीनबाय कानप्यार बसोलां.

रोजालीनबाय वारें गो घालीता,
रोजालीनबाय वारें गो घालीता.

[सगळ्या बायलांक म्हणप.]

# २. दुदा वयता गा मामा

दाया हाता पांच बोटां, उजया हाती घंगरविळे,
पाकळ लिवता गा मामा, पाकळ लिवता गा.

देवा सारकें बाळ जालां,
दुदा वयता गा मामा, दुदा वयता गा.

[पांच फावट म्हणप.]

# ३. हरफूल फुलोला रातयांतू

हरफूल फुलोला रातयांतू
मिनीनबाब उदक न्हावता सत्र्यांतू.

तेयेगेल्यो सत्र्यो वाडों लागोल्यो,
फुलांच्यो सत्र्यो वाडों लागोल्यो.

हरफुल फुलोला रातयांतू,
जुजीनबाब उदक न्हावता सत्र्यांतू.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ४. तळ्यांतली दाणय

तळ्यांतली दाणय,
तळ्यांतली दाणय,
तळ्यांत फिरता,
तळ्यांत फिरता गे धालो,
तळ्यांत फिरता.

जल्मीदेवाचो रथ येवन मांडार खेळटा,
मांडार खेळटा गे धालो,
मांडार खेळटा.

तळ्यांतली दाणय,
तळ्यांतली दाणय,
तळ्यांत फिरता,
तळ्यांत फिरता गे धालो,
तळ्यांत फिरता.

पेरपेद सायबिणीचो रथ येवन मांडार खेळटा,
मांडार खेळटा गे धालो,
मांडार खेळटा.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ५. तळयेच्या तुंबा

तळयेच्या तुंबा गा,
हो कापुर कोणी धुयला गा,
हो कापुर कोणी धुयला.

सांता खुरीसदेव न्हावला गा,
तेचा पाट सोडून दिला गा,
तेचा पाट सोडून दिला.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

## ६. पियेच्या मुळांतू गे

पियेच्या मुळांतू गे,
हो धूप कोणें वारयला गे,
हो धूप कोणें वारयला.

पियेदाद सायबीण येयल्या गे,
तिणें हो बिजमेंत केला गे,
हो बिजमेंत केला.

पियेच्या मुळांतू गे,
हो धूप कोणें वारयला गे,
हो धूप कोणें वारयला.

सुकूर सायबीण येयल्या गे,
तिणें हो बिजमेंत केला गे,
हो बिजमेंत केला.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]

# ७. केंस गो वळेता

बरें कदेलार बोसोन,
आंतोन बाय केंस गो वळेता.

तेगेलो भरतार येवन,
फुलांचो झेलो गो वडयता.

[सगळ्या बायलांक म्हणप.]

# ८. चिंचेवयले चिंचोणे

चिंचेवयले चिंचोणे, चिंच कल्लायत यो,
चिंच कल्लायत यो.

घरा आसलेलें कुरकेलबाय गो, पालोव झडपीत यो,
पालोव झडपीत यो.

पालोव लागलो आबोलेक, आबोलीं खुंटीत यो,
आबोलीं खुंटीत यो.

आबोल्यान भल्ल्यो व्होटयो, देवार पुजीत यो,
देवार पुजीत यो.

[सगळ्या बायलांक म्हणप.]

# ९. साडेतिनशें दाणयो, रथा तुज्यो घुडयो

साडेतिनशें दाणयो, रथा तुज्यो घुडयो,
त्या रथां कोण देव बसे गे,
त्या रथां कोण देव बसे.

त्या रथा बसे फातिमा सायबीण बसे,
जनलोक दिसे,
मांडार रथ खेळे गे.

साडेतिनशें दाणयो, रथा तुज्यो घुडयो,
त्या रथां कोण देव बसे गे,
त्या रथां कोण देव बसे.

त्या रथा बसे सांत खुरीसदेव बसे,
जनलोक दिसे,
मांडार रथ खेळे गे.

[निमाणें सरवयांक म्हणप.]



## जयंती नायक

जल्म : ६ ऑगस्ट १९६२ (आमोणें-केपें)

शिक्षण : भुगोल आनी अर्थशास्त्र विशयाचें पदवीधर. १९८७/८८ वर्सा म्हैसूर विद्यापिठांत लोकवेदाचो पोस्ट ग्रॅज्युएट डिप्लोमा कोर्स करपाखातीर 'गोवा कोंकणी अकादेमी'ची अभ्यासवृत्ती फावो जाली. ह्या कोर्साची परिक्षा पयल्या वर्गांत पयल्या नंबरान उत्तीर्ण जालें.

वेवसाय : गोवा कोंकणी अकादेमीच्या लोकवेद विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हण वावुरता.

म्हैसूर विद्यापिठांत प्रशिक्षण घेतल्या उपरांत फाटलीं चार वर्सां गोंयच्या तळा-गाळांत भोवन, गोंयच्या लोकवेदाचीं विविध आंगां एकठांय करून ताचेर संशोधन करपाच्या वावरांत स्वताक ओंपून घेतलां. आतांमेरेन वेग-वेगळ्या नेमाळ्यांतल्यान आनी दिसाळ्यांतल्यान लोकवेदाचेर बरयल्लें जायतें लिखाण उजवाडाक आयलां.

गोंयची एक नामनेची कथा लेखिका. १९८९ वर्सा **'गर्जन'** नांवाचो कथासंग्रह उजवाडाक आयला. कांय एकांकी बरोवनय माचयेर सादर केल्यांत. कवितांक आनी कथांक थळाव्या नेमाळ्यांच्या सर्तिनी इनामां लाबल्यांत. १९८९ वर्साचो 'गोंय कोंकणी भाशा मंडळ' हे संस्थेचो पुरस्कार, 'गर्जन' पुस्तकाक फावो जाला.

आकाशवाणी आनी दूरदर्शनाचेरय साहित्य विशयक कार्यावळी सादर केल्यात.

"कोंकणी भाशेची उदरगत जावंची, तिचें साहित्य चंवरून फुलचें आनी त्या साहित्यांतल्यान गोंयचे संस्कृतीचें दर्शन घडचें, विद्येच्या मळावेल्या सगळ्या शास्त्रांचें ज्ञान जाता तितले बेगीन कोंकणींत हाडचें, तत्वज्ञान धरून विज्ञानामेरेनचें शिक्षण दिवपाची तांक कोंकणींत येवंची, संवसारांतल्या व्हड भासांतले तेच परी भारतीय भासांतलें अभिजात साहित्य कोंकणींत भाशांतरीत जावचें आनी त्या साहित्यांतल्यान कोंकणी साहित्याक ऊंच पावंड्याची देख मेळून ताका एक नवी दिशा प्राप्त जावंची, देखून गोवा कोंकणी अकादेमीची स्थापना जाल्या."

The Government of Goa, being aware of the strength and vitality of Konkani, established 'GOA KONKANI AKADEMI' with a view to developing Konkani language, literature and culture in all their facets. It states expressly in the Preamble: "WHEREAS Konkani is the language of the People of Goa;

AND WHEREAS its development in all fields is essential for the all round progress of the people of the State;

AND WHEREAS the Government of Goa is keenly desirous of bringing about speedy development of the Konkani language, literature and culture for promoting the cultural unity of the State as a whole through the medium of Konkani language and literature.

The Akademi aims at bringing about speedy development of the Konkani language, literature and culture and also at promoting cultural unity of this state through Konkani language and literature.

**गोवा कोंकणी अकादेमी**
सर्किट हाउस, आल्तिनो
पणजी, गोंय ४०३ ००१

**GOA KONKANI AKADEMI**
Circuit House, Altinho,
PANAJI – GOA. 403 001.

PRINTED AT CASA J. D. FERNANDES